# अखिल भारतीय
# कोंकणी साहित्य संमेळन

तेरावें अधिवेशन

सुभाषचंद्र प्रभु नगर, कोची

25 - 26 ऑगस्ट 1996



# अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळन

## तेरावें अधिवेशन

## सुभाषचंद्र प्रभु नगर

## कोची - 2

## 25, 26, ऑगस्ट 1996



## कार्यावळ

**आयतार, 25 ऑगस्ट 1996**

**सकाळीं**
10.00 ती 1.00

**उद्‌घाटन समारंभ**

- स्वागत गीत
- स्वागत भाषण - श्री. गोकुळदास प्रभु
- मानेस्तांची वळख
- उद्‌घाटन - भौमानेस्त मंत्री
  श्री. टी. के. रामकृष्णन
- शुभ संदेश - डॉ. काशीनाथ महाले
- श्री. दिलीप बोरकार हांचो भौमान
- मुखेल सोयऱ्यांचें भाषण -
  श्री. एम. टी. वासुदेवन नायर
- अध्यक्षालें भाषण - श्री. नागेश करमली
- उपकार - श्री.सुरेश शेणै.

**दनपारां**
2.00 तीं 4.00

**कोंकणी आनी मल्याळम**
**लेखकांची गांठ-भेट**

श्री. चंद्रकांत केणी, श्री. दामोदर मावजो, श्री. रमेश वेलुस्कार, श्री. प्रकाश पाडगांवकार (कोंकणी) श्री. के. एल. मोहन वर्मा, श्री. सी. पी. श्रीधरन (मल्याळम) हे वांटो घेतले.

**सांजे**
4.30 तीं 6.30

**परिसंवाद -1**
**गोड्डे रामायणाचे साहित्यगूण**

अध्यक्ष : प्रो. आर. के. राव
पेपर : पी. जी. कामत

**रातीं** **कवि संमेळन**
7.00 तीं 8.00 (आमंत्रीत कवीं खातीर)

**रातीं**
8.30 वरांचेर **संस्कृतीक कार्यावळ**

## सोमार, 26 ऑगस्ट 1996

**सकाळीं** **परिसंवाद - 2**
10.00 तीं 1.00 **कोंकणी कथा-हेर भासांच्या संदर्भात**

अध्यक्ष : उदय भेंब्रे.
उलोवपां :
डॉ. अरुण हेबळेकार (मराठी कथा)
डॉ. गोविंद शेणै (हिंदी कथा)
श्री. कृष्णन नायर (मल्याळम कथा)
श्री. मुरळीधर उपाध्याय (कन्नड कथा)

उप्रांत कोंकणी कथे विशीं चर्चा

**दनपारां** **परिसंवाद - 3**
2.00 तीं 4.00 **कवितेंत कवीचो दिश्टावो**

अध्यक्ष : श्री. प्रकाश पाडगांवकार
पेपर : श्री रमेश वेळुस्कार

**सांजे**
4.30 तीं 6.30 **परिसंवाद - 4**
**साहित्य नियाळ - तत्वां आनी प्रयोग**

अध्यक्ष : प्रा हरिश्चंद्र नागवेंकार
पेपर (1) : डॉ. किरण बुडकुले
पेपर (2) : डॉ. सुनीता बाय

**रातीं :**
7.00 तीं 8.00 **समारोप समारंभ**

. 8.30 **संस्कृतीक कार्यावळ**



## अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या १३ व्या अधिवेशनाच्या उक्तावणाचे मुखेल सोयरे

# श्री. एम. टी.वासुदेवन नायर



श्रेष्ठ मल्याळम कथाकार, कांदबरीकार आनी चलचित्रांच्या मळार वावुरपी श्री. एम. टी. वासुदेवन नायर केरळच्या पोन्नानी तालुक्यांतल्या कूडल्लूर गावांत 15 जुलै 1933 हे तारखेर, टी. नारायणन नायर आनी अम्मालु अम्मा हांचो पूत म्हणून जल्मले. कुमारनल्लूर हायस्कूल आनी व्हिक्टोरिया कॉलेज, पालक्काड हांगा शिक्षण. 1953 त रसतंत्रांत बी. एस. सी पदवी. शिक्षक, 'मातृभूमि' नेमाळयांचो संपादक आनी साहित्यकार अशा वेगवेगळ्या मळार जैतिवंत जाले. चलचित्रांच्या मळार कथा, संवाद, निर्माण आनी [illegible] [illegible] वावर जाला.

**बरपावळ** : कादंबरी : नालुकेट्टु [illegible] मंजु (दंव) कालम (काळ) असुरवित्तु (राखेस - बी) रंडामूषम (दुसरे पावटी) विलाप यात्रा (शोकाची मिरवणूक) कथा संग्रह : एम. टी. युडे तेरेंजेडुत्ता कथकळ (एम. टी.च्यो वेंचीक कथा), इरुट्टिन्दे आत्माव (काळखाचो आत्मो) ओळवुम तिरवुम (ल्हारां आनी वेळ) कुट्येटत्ती (कुट्टी आका), स्वर्गम तुरक्कुन्ना समयम (स्वर्ग उगडपाचो वेळ) नष्टप्पेट्टा दिनंगळ (सांडून गेल्ले दीस), पतनम (पडप) बंदनम (बंदन) निन्दे ओर्मक्क (तुज्या उगडासाक) **नाटकः** गोपुरा-निडयिल (देवळा मुखार)

**निबद** : काथिकन्दे कला (कथाकाराची कला)

**पुरस्कार**

1953-त 'न्यूयॉर्क टाईम्स' 'द. हिंदुस्तान टायम्स' आनी 'मातृभूमि' हांच्या जोड पालवान घडोवन हाडिल्ले कथास्पर्धेत 'एम.टी' चे कथेक (वळर्त्तु मृगंगळ) पयलें इनाम मेळ्ळें. उप्रांत तांकां केरळ साहित्य अकादेमी पुरस्कार (नोलुकेट्ट, 1958), केन्द्र साहित्य अकादेमी पुरस्कार ('कालम'- 1970) आनी 'वयलार रामवर्मा' पुरस्कार फावो जालो.

1995 वर्सा तांका भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार [illegible]

तांणी बरोवन निर्माण केल्लें 'बंदनम' 'वारिक्कुषी' आनी 'मंगु' चलचित्रांक राज्य पुरस्कार मेळ्ळा. तांच्याच दिग्दर्शनान निर्माण जाल्लें 'निर्माल्यम' ह्या चलचित्राक राष्ट्रपतीचें भांगरा पदक लाबलें.

सद्याक 'एम. टी' केरळ साहित्य अकादेमीचे आनी 'तुंजन' यादस्तिकेचे अध्यक्ष तशेंच ते 'मातृभूमी' नेमाळयांचें संपादन करतात.

❀ ❀

# एकलो चल रे !

कविकुलगुरु रवीन्द्रनाथ ठाकूर

तुजो उलो आयकूक कोणय नात रे
तरि
एकलो चल रे !
एकलो चल, एकलो चल,
एकलो चल, एकलो चल रे !
तुजे लागी कोणय उलयनात रे
हाय रे ! हाय! पापिया रे !
सगळे भियेवन भियेवन तुजे
मुखार तोंड घुवंडायतात रे !
तरि
प्राण मेकळून, ताळो सडळावन
तुगेली मनांची काणी
एकलो सांग रे ! एकलो सांग रे !
भिजुडे सगळे परथून गेले रे !
कोणय घूवन चोयनात रे !
तूंरे वाटेर एकलोच उरलो !
भिणभिण काळखांत आखांत रानांत
पायांक कांटे चाबतात रे
तरि
रक्तान माखिल्ले पावलान
तांकां एकलोच दळून उडय रे !
तुका उजवाड कोणय दाखयनात
हाय रे ! हाय ! पापिया रे !
काळीं काळीं मोडां, झोडां रात रे !
घरांदारां बंद रे !
तरि
तूंच वज्राचो आघात जावन
हरद्या- घुडाचीं हाडां जळोवन
जळून जळून एकलो चल रे !
एकलो चल रे !

(भाशांतर : पोवळेकार)

## संमेळनाचे सुवातेक जांचें नांव दिलां ते

# आर. सुभाषचंद्र प्रभु



(1941-1996)

केरळाचें विख्यात कोंकणी म्हयनाळें 'कोंकण जनता' हाचे प्रारंभार साकून (अक्टोबर 1972) साबार काळांक मुख्य संपादक आशिल्लो. आपण्याले नेमाळ्या वाटेन साबार कोंकणी बरोवप्यांक स्फूर्ति, प्रचोदन आनी तांक दीत आयलो. नाटककार आनी अभिनेता म्हणूय व्हड नांव जोडलें. केरळांत प्रकाशीत जालेलें पयलें कोंकणी नाटक म्हळयार हाचें 'अष्टमाचेर गुळीक'' (कोंकण जनता 1972) अशी अनुमान आसा. 1976 वर्सा चेर्तला गावांत घडयलेलें पयलें अखिल केरळ कोंकणी नाटकोत्सवांत वरिष्ट अभिनेता म्हूण पुरस्कार मेळ्ळो. तांणी नाटकां आनी कथा बरयल्यो. ते कोची जी. एस. ए. कलारंगाचो सजीव प्रवर्तक आशिल्लो . 1979 वर्सा पयलें अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य संमेळन घडयलें तेन्ना ते खजानजी आशिल्ले.

खरें म्हळयार केरळाच्या कोंकणी बरोवप्यांक हें दुःखाचें वर्स. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळन पयलेच पावट केरळांत घडय-तात, पुण केरळाच्या कोंकणी बरोवप्यांक, नाटककारांक स्फूर्ति दीत आयिल्लो ''सुभाष'' आतां आमचे मदें नात. नांवावरीच आशिल्लो, सगल्यांक प्रियंकर आसून तो देवाकय प्रियंकर जालो.

तांच्या उगडासाक कोचींत भरतल्या तेराव्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे सुवातेक स्व. सुभाषचंद्र प्रभु नगर अशें नांव दिलां.

तांच्या पुण्य उडगासा मुकार माथें बागोवन -



'Hwwab

अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन

# स्वागत समिती

✧ **अध्यक्ष**
श्री. के. गोकुलदास प्रभु

✧ **कार्यदर्शी**
श्री. सुरेश ए. शेणै

✧ **खजानजी**
श्री. आर. एस. भास्कर

✧ **उपाध्यक्ष**
श्री. के. अनंत भट
श्रीमती सुशीला टी. भट
श्री. पी. एन. शिवानंद शेणै
श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन
श्री. वी. कृष्णवाघ्यार
प्रो. के. आर. वसंतमणी
डॉ. बी. एस. आशा

✧ **सहकार्यदर्शी**
श्री. बी लक्ष्मण मल्या
श्री. पी. मनोहर
श्री. वी. एन. वसंतकुमार
श्री. शरतचंद्र शेणै
श्री. आर. प्रकाश
श्री. जी. आर. प्रसाद

**प्रदर्शन**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. वी. शिवदास मल्या
श्री. उमेश वी. मल्या

**स्मरणिका**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. वी. एन. वसंतकुमार
श्री. सी. पी. लक्ष्मणन
श्री. शरतचंद्र शेणै

**प्रचार**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. एच. बी. शेणै
श्री. पी. जी. श्रीकेश
श्री. के. एन. श्यामराव
श्री. जी. एस. वाघ्यार
श्री. जी. श्रीनिवास कामत
श्री. गोपिनाथ शेणै
श्री. पी. जी. राजेन्द्रन
श्री. डी. आर. रामकृष्णन
श्री. वी. जी. राव
श्री. यू. जी. के. पै
श्री. एस. कृष्णकुमार

**सांस्कृतिक कार्यावळ**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. कपिल आर. पै
श्रीमती एस. मुक्ताबाय

**निधी समिती**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. आर. एस. भास्कर
श्री. आर. उपेन्द्र राव
श्री. एन. बालकृष्ण पै
श्री. आर. एस. नायक
श्रा. कृष्णन
श्री. एम. एस. रामदास

**स्वयंसेवक**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. ए. कृष्ण शेणै
श्री. एस. श्रीकुमार
श्री. अजय वी. मल्या
श्री. एन. कृष्णकुमार

**निवास**
✧ **अध्यक्ष -**
श्री. कृष्णराव फळारी
श्रीमती शिवकला राव
श्री. एस. देवानन्द
श्री. एन. एस. मणिकंठन
श्री. एम. एस. सुधाकर
श्री. एम. गोविन्द मल्या

**खाणजेवण**
✧ **अध्यक्ष-**
श्री. वी. नारायण शेणै
श्री. दिनेश
श्री. श्रीनाथ

**म्हायती**
श्री. आर. संजय

**मानेस्त मार्गदर्शक**
श्री. पी. जी. कामत
प्रो. आर. के. राव
श्री. के. सुरेन्द्र राव
डॉ. पी. बी. जनार्दन
श्री. वी. शेट बलराज
श्री. डी. एस. रत्नाकर
श्री. आर. एस. राजू
श्री. के. डी. सेन
श्री. आर. सुभाष
श्री. एन. पुरुषोत्तम मल्या
श्री. डी. वासुदेव पै
श्री. पय्यनूर रमेश पै
डॉ. स्वर्णलता जी. पै
श्री. डी. रामराज राव
श्री. एम. इकबाल
श्रीमती श्यामळा एस. प्रभु
प्रो. के. के. विजयन
प्रो. के. के. रामकृष्णन

H W

## अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या तेराव्या अधिवेशनाचे

### येवकार अध्यक्ष

# श्री. गोकुलदास प्रभु

### हांगेलें उलोवप



आमी ज्या दिसाखातीर रावले, तो दीस उदेला.

आज ह्या इतिहासीक कोची शारांत 13-वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेळन भरता. हें सम्मेळनय इतिहासीक दिश्टीन म्हत्त्वाचें.

केरळांतले कोंकणी चळवळीक सुमार 72 वर्सांचो इतिहास आसा.1924-त जेन्ना आलप्पुषा गांवांत कांय कोंकणी मोग्यांनी आपली मायभास सुदारपाखातीर म्हणून थाराव घेतलो, तेन्ना ह्या राज्यांतली कोंकणी चळवळ सुरू जाली. भाशेच्या मोगावयल्यान साहित्याची गरज भासली, आनी ताका लागून कांय लेखकांनी साहित्य निर्माण केलें. भाशेचो अभिमान जागोवंक आनी साहित्याचो प्रसार करूंक कांय संस्था उब्यो जाल्यो. अशें केरळांतल्या वेगवेगळ्या व्यक्तींच्या आनी संस्थांच्या आधारान कोंकणी चळवळ फुडें सरली. गेल्ल्या वीस वर्सांनी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचीं दोन सम्मेळनां घडलीं. दुसरीं ल्हान-व्हड कोंकणी संमेळनांय हांगा जमल्यांत. पूण आज आनी फाल्यां आमी समग्र कोंकणी साहित्याचेर विचार करतले. आनी हें अशें केरळांत पयलेच फावट घडटा, म्हणून ह्या सम्मेळनाचें म्हत्त्व वाडता.

फाटल्या बारा सम्मेळनांच्या संदर्भांत वेगवेगळ्या वाठारांतले कोंकणी लेखक एकामेकांकडेन संपर्क करूंक

आनी एकामेकांच्या लेखनांची वळख घेवंक पावले. केन्ना केन्ना तांकां ह्या सम्मेळनाच्या व्यासपिठावेल्यान इतर भासांच्या लेखकांकडेनय चर्चा करपाक संद मेळ्ळया. असल्या संवादांवेल्यान, कोंकणी लेखकांचो नवो विश्व विस्तारला.

आज कोंकणी भाशेची परिस्थिती सुदारल्या आनी साहित्याचो आकार आनी गूण खूब वाडला. पूण कोंकणी साहित्याचो विकास आनी ताची प्रगती लक्ष्यांत घेतल्यार लेखकांची चर्चा आनी तांचो संवाद सतत चालू दवरपाची गरज दिसता. ह्या संवादांत अन्य भाशेच्या लेखकांकय सहभागी केल्यार सगळ्यांचो फायदो जातलो, हें लक्ष्यांत घेवन ह्या सम्मेळनाची कार्यावळ तयार केल्या.

ह्या सम्मेळनाचे मुखेल सोयरे म्हणून श्री. एम. व्ही. वासुदेवन नायर हे आज आमचे मदें आसात, ही व्हडले खोशेची गजाल - 'एम. टी' फकत एक श्रेष्ठ मल्याळम लेखकच न्हय, सबंद भारतीय साहित्यांत तांची म्हत्त्वाची देणगी आसा. ह्या म्हत्वाच्या साहित्यीक गुणांक लागून तांकां पोरूं वर्साचो ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो. इंग्लीश साहित्यांत तशेंच आशियन, आफ्रिकन आनी लॅटिन-अमेरिकन साहित्यांत नवें कितें घडलां हाची हे जाणकारी घेतात. एम. टी. च्या विशाळ आनी खोल जाणकारीचो आनी अणभवांचो आमकां आज फायदो मेळटलो म्हणून म्हाका खूब आनंद भोगता. स्वागत समितीचे तरफेन श्री. एम. टी. वासुदेवन नायर हांका हुनहुनीत येवकार सांगतां.

केरळ सरकाराकडल्यान आमकां जे तरेचो बरो सहकार मेळ्ळा, तिचें प्रतीक म्हणून सरकारचे भौमानेस्त मंत्री श्री. टी. के. रामकृष्णन हांगा सम्मेळनाच्या उद्घाटनाखातीर पावल्यात. एक राजकर्णी आसूनय, सुसभ्य, सुसंस्कृत आनी जाणकार मनीस म्हणून भौमानेस्त मंत्र्याची नामना आसा: तांकां आमचें हार्दिक स्वागत.

तशेंच ह्या सम्मेळनाचे अध्यक्ष भौ. नागेश करमली, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष दो. काशीनाथ महाले, परिशदेचे आदले अध्यक्ष, लेखक, प्रतिनिधी, सोयरे आनी तुमकां सगळ्यांक ह्या सम्मेळनांत येवकार.

पयस सावन आयिल्ल्या लेखकांखातीर, सोयऱ्यांखातीर आनी प्रतिनिधीं खातीर आमी आमचे तांकी प्रमाणी बरी वेवस्था केल्या. खंयच्याय सरकारच्या आदारा विणा, फकत कोंकणी मोग्यांच्या पालवान आनी कांय खास संस्थांच्या सहकारान ह्या सम्मेळनाची आमी शकत तितली वेवस्था केल्या. आमचें खंय तरी चुकलें, उणें पडलें तर आपलेपणाचे भावनेन सांबाळून व्हरचें अशी मागतां.

परत तुमकां सगळ्यांक येवकार सांगतां आनी तुमचे कोचीचे दीस सुखान वचूं अशें मागतां.



Bhasha UHG 4

# अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या तेराव्या अधिवेशनाचे

## अध्यक्ष

# श्री. नागेश करमली

## हांचें उलोवप



मानेस्त साहित्यकारांनो, साहित्यप्रेमीनो, भावांनो आनी भयणींनो -

कोंकणी भास आनी साहित्याच्या मोगान आज परत एक फावट आमी सगळे ह्या सोबीत सुंदर केरळांतल्या कोच्ची शारांत जमल्यात. शेंकड्यांनी वर्साआदीं, हांगा येवन आपणालें घरदार करून राविल्ल्या आमच्या कोंकणी भावां-भयणींच्या मायेमोगाच्या सांगातांत, कोंकणी भास आनी तिच्या साहित्याचो संवसार कसो कितें चल्ला, कसो कितें चलूंक जाय हाचेर चिंतन आनी मनन करपाचो योग आज आनीक एके खेपे जमून आयला. ह्या चिंतन आनी मननांतल्यान आमकां फुडाराचीं नवीं नवीं आव्हानां स्विकारपाची शक्त मेळूंक जाय. हीं आव्हानां फक्त साहित्यीक मळावयलींच न्हय; तातूंत, साहित्य बरे भाशेन फुलपाक आनी ताची विविधांगी वाड जावपाक जें वातावरण जाय, जी जिविताची खराय आनी जीवसाण जाय, ताचोय आस्पाव जाता. हे नदरेन चिंतून पळयल्यार, आज हांगा जे आमी जमल्यात तांचेर भोव व्हड जापसालकेचो भार आसा. आमचेमुखार जे प्रस्न आसात - जे साहित्य आनी भाशेच्या विषयाकडेन जोडिल्ले आसात, तांचेकडेन पळोवपाचो वा तांचेसंबंदान विचार करपाचो फक्त भावनीक दिश्टीकोन आतां उपकारा पडपाचो ना. हाचो अर्थ कोंकणी भास वा साहित्य हांचे संबंदांत आमचो जो एक आपशकमीणाचो दिश्टीकोन वा नदर आसा तिका उणे लेखची अशें न्हय. भास वा साहित्याविशीं आमच्या काळजांत जे उर्बा-उमाळे आसात ते थंयच दामून, चेपून उडोवंचे अशें तर न्हयच न्हय. जे कोंकणीपणाचे भावनेन विखंड जावन पडिल्ल्या कोंकणी समाजाक जागयला आनी एकठांय हाडला, तें भावनीक नातें आनी ताचे भोंवतणचे कोंकणीविशींचे उर्बा-उमाळे आमी कशे न्हयकारतले? तरी पूण आमी ज्या काळांत जियेतात, जे परिस्थितींत जियेतात आनी आमचे भोंवतणी घडपी ज्यो घडणुको पळयतात, तांचो विचार केल्यार आमच्यांतल्या ध्येयवादाक इल्लीय बादा हाडिनासतना, आमकां वेव्हार म्हळ्यार कितें तेंय शिटूकसाणेन पळोवंचें पडटलें. कारण, ज्या युगांत आमी जियेतात तें सर्तीच्रें यूग. ह्या युगांत, आमी साहित्यीक आसूं वा आनीक कोणूय आसूं, आमी घाळ

रावन चलपाचें ना. कोंकणी भाशी मनशान तर ह्या म्हणण्याकडेन सामकेंच गंभीरपणान लक्ष दिवंक जाय - मागीर तो कोंकणी मनीस गोंयांत रावपी आसूं वा कर्नाटक - केरळांत वस्ती केल्लो आसूं वा महाराष्ट्रांतलो आसूं वा देशांत आनी खंयय वचून स्थायीक जाल्लो आसूं.

हें सगळें सांगता आसतना, ही एक सर्वसामान्य मुद्यांची विसकणी हाची म्हाका जाण आसा. पूण ती केलेबगर उपाय ना. कारण, आमचे हेत वा उद्देश कितें हें स्पश्ट जालेबगर जीं कामां आमचेमुखार आसात, तांकां खऱ्या अर्थान आमी हात घालूंक पावचे नात. आनी, बदलते परिस्थितींत आमची मोख कितें हे उक्तेपणीं आमकां कळलेबगर, आमी सारको खंयच्याय कामाक हात घालूंक शकचे नात. कामाक खांद मारप वा ताचो भार उखलप हें सगळें ते उप्रांतचें. तुमी घडये म्हणटले, हांवें जे हेत वा उद्देशांचो उल्लेख केला, ते आमकां नव्यान जाणा जावपाची गरज आसा? आनी ताची चावी आतां फक्त तुकाच म्हळयार म्हाकाच मेळ्ळ्या काय कितें? ना! निखालस ना. तुमचेय वेगवेगळे विचार आसतले आनी घडये ते म्हज्याय विचारांक फाटीं घालपी आसतले. तशे ते आसचेय. तातूंत म्हाका आनंदच आसा. पूण कोंकणीच्या मळावयलो एक नमळायेचो वावुरपी आनी बरोवपी ह्या नात्यान म्हाका जें भोगता, जें म्हाका अस्वस्थ करता आनी उलोवंक लायता, तें तुमी दिल्ल्या ह्या मानाच्या स्थानावयल्यान मेकळेपणान सांगप ही हांव म्हजी एक लागणूक कशी मानतां.

**बाराव्या संमेलनाउप्रांत ...**

बारावें कोंकणी साहित्य संमेलन दोन वर्सां आदीं गोंयां, म्हापशें शारांत जाल्लें. ते उप्रांतच्या काळांत आतांमेरेन कोंकणी साहित्याच्या मळार कितें घडलें आनी कितें घडूंक ना ताचो हिशोब म्हाका हांगा करपाचो ना. ते विशींचो विचार-विमर्श, आज आनी फाल्यां, हांगा जमिल्ले साहित्यकार अदीक खोलायेंत वचून करतले अशी हांव आस्त बाळगितां. म्हाका खबर आसा, साहित्य संमेलन हें एकाद्रे स्थायी संस्थेसारकें कार्यावळी राबोवपी व्यासपीठ न्हय. तें साहित्यीक वावराक प्रेरणा दिवपी, मार्गदर्शन करपी आनी साहित्यकारांवांगडाच साहित्यप्रेमींक एकठांय हाडून तांचे मदें सुसंवाद सादपी व्यासपीठ. हें व्यासपीठ दोन वर्सांनी एक फावट आमकां मेळटा. जायते खेपो, असलें व्यासपीठ आनी ताचे भोंवतणचो संमेळ हो एक उत्सव, एक सुवाळोच कसो जावन वेता आनी मागीर ताचें कांय एक उरना. अशें जावंचें न्हय. म्हापशां जाल्ल्या बाराव्या संमेलनांत आमी कितें थारायलें, कसले संकल्प सोडिल्ले आनी कसले मार्गदर्शक विचार फुडें आयिल्ले तांची मुजरत याद करची. तो अणभव आमकां हें संमेलन फळादीक करतना निश्चितच उपकारा पडटलो. तो आमकां वास्तवाचें भान हाडून दितलो आनी कोच्चीक थावन परत घरा वेतना, आमचे गांठीक कितें तरी अर्थपूर्ण बांदून घेवन वचूंक मेळळें हाचें समादान आमकां मेळटलें.

**साहित्य कित्याखातीर ... ?**

परत परत एक प्रस्न मनांत घोळटा - साहित्य साहित्य म्हणटात तें कित्याखातीर; साहित्यापासून आमकां कितें मेळटा? जाप सोदूंक वेतां तेन्ना कविकुल-गुरु रवींद्रनाथ ठाकुरांचीं उतरां याद येतात. ते एका निबंदांत म्हणटात :

"साहित्याचो विचार करतना दोन गजालींचेर ध्यान दिवंक जाय. पयली गजाल म्हळयार साहित्यकार लोकांच्या कितलोसो काळजांत रिगला आनी दुसरी गजाल म्हळयार ताणें आपणाक खऱ्या अर्थान कितलोसो उक्तायला..."

रवींद्रनाथांच्या ह्या म्हणण्याप्रमाण साहित्यकार लोकांच्या काळजांत रिगप म्हळयार ताचें साहित्य लोकांच्या काळजाचो थाव घेवपी जावंक जाय आनी साहित्यकारान आपणाक उक्तावप म्हळयार ताची साहित्य कलाकृती ही जिवंतपणाची खूण जावंक जाय. तो जें कितें उतरांतल्यान निर्माण करता तातूंत ताचे प्रतिभाशक्तीची कसवटी लागूंक जाय. ताणें एकाद्री साहित्यकृती निर्माण करतना तिचे परिपूर्णतायेक जाय आसतना 'नाका, तें आसूं' अशें म्हणून कितेंच धांपून दवरूंक फावना. म्हळयार, साहित्याचें नातें साहित्यकार आनी लोक अशें आसा. साहित्यांतली उत्कटताय जितली तेजधार तितलेंच हें नातेंय अदीक घट, अदीक प्रत्ययकारी जावं येता. रवींद्रनाथांचो काळ आनी आजचो काळ हातूंत बरोच फरक पडिल्लो आसलो - विशेष करून अत्याधुनिक प्रसार माध्यमांक लागून - तरी, एक विचार, एक नीज अणभव म्हणून ताचें म्हत्त्व इल्लेंय उणे जायना. साहित्य ही जांणी आपणाल्या जिवितांतली एक साधना कशी मानल्या, अशा

आमगेल्या साहित्यकारांनी रवींद्रनाथांनी उक्तायिल्या विचार वा अणभवाचे सांडीर आपणाक कसाक लावन पळोवपाची गरज आसा. हाचे फाटलें कारण एकच, कोंकणी साहित्य म्हणटात तें, साहित्य कित्याक म्हणटात? साहित्या पासून आमकां कितें मेळटा? ह्या प्रस्नांची आपसूकच जाप दिवपी जावंचें. साहित्याफाटली ही जाण कोंकणीखातीर आज सामकी गरजेची. कित्याक म्हणशात जाल्यार आज इतल्या वर्साउप्रांतय कोंकणी साहित्यकार आनी सर्वसामान्य लोक हे दोन प्रवाह एकामेकांपासून बरेंच अंतर राखून वाट चलतात. ही आवतिकाय मुळासाकून बदलूंक जाय. साहित्याचे मुक्त आनी प्रभावी उदरगतीखातीर हें घडपाक जाय.

खंयचेंय साहित्य हें जर साहित्यकार आनी साहित्यप्रेमींचो एक मर्यादीत वर्ग हांच्यो शिमो तोडून, ते शिमेभायर जंय जंय पावंक जाय थंय थंय पावलें ना जाल्यार तें मुळांतच निव्रडिल्ले भाशेन जातलें. कोंकणींत जें साहित्य निर्माण जाता, ताका ही आडखळ बादता, हें आमी नाकारचें न्हय. जें कितें वास्तव आसा, ताका जर आमी फुडो केलो ना आनी ताचेर जर आमी उपाय सोदून काडले नात, तर तें आमी आमकांच फटोवपा सारकें जातलें, देखून मुजरत ह्या विषयाक हांवें हात घालो. ह्याच विषयाक धरून आनीकय कांय प्रस्न उप्रासतात, जांचेर कोंकणी साहित्यकारांनी तटस्थपणान, पूर्वग्रह कुशीन दवरून, कोंकणी भास आनी साहित्याचेर जावपी दूरगामी परिणाम लक्षांत घेवन थंडपणान विचार करपाची गरज आसा. हांतलो एक म्हत्त्वाचो प्रस्न म्हळयार कोंकणी बरपावळीचे पडिल्ले वांटे. हे वांटे, मुखेलपणान लिपीवार वांटे जावन आसात. हे वांटे कोंकणी साहित्याचे वाडावळीक 'एक साहित्य' म्हणून मुळांतच आडवण करतात. ते साहित्याचो आवांठय ल्हान करून उडयतात आनी ह्या सगळयाचो वट्ट परिणाम साहित्याविशीं जी उंचाय, जी खोलाय आनी जें साहित्यीक मोल आमी आवंडेतात, ताचेर जाता.

### साहित्याच्या मार्गांतल्यो आडखळी

खंयचेय गजालीक आडखळींचो बादिकार जाता तेन्ना तांचें म्हत्त्व उणें लेखून वा ताचेर आडनदर केली म्हणून त्यो आपाप ना जायनात. कोंकणी भाशेन आजवेर जायत्या आडखळींचेर जैत जोडलां. कारण ह्यो आडखळी म्हळयार कितें उक्तेपणी आमी वळखले आनी त्यो पयस करपाक उपाय घेतले; गरज थंय चळवळी केल्यो. संघर्ष केले. ह्या आडखळींची वळेरी, कोंकणी ही एक भासच न्हय अशें म्हणपी लोकांपासून सुरु जाता. चड करून हें गोंयांत घडलें. गोंयांत हे पासत एक व्हड संघर्ष घडलो. शेकीं कोंकणीच्या बळिश्ट आधारारच गोंय हें भारतांतलें कोंकणी उलोवपी लोकांचें राज्य जालें. कोंकणीच्या मूळपिठांत - गोंयांत तिका राजभाशेचो मान मेळ्ळो. (तो राजभास कायदो अजून सारको चालीक लागना. हो कोंकणीच्या संबंदांतलो अजून जिवो उरिल्लो संघर्षाचो एक म्हत्त्वाचो मुद्दो). कोंकणीक राष्ट्रीय संविधानाच्या आठव्या परिशिष्टांत सुवात नासली. लोकांचे चळवळींतल्यान तीय आडखळ पयस जाली आनी कोंकणी राष्ट्रीय संविधानांत पावली. म्हळयार कोंकणीच्या संबंदांत ज्यो ज्यो आडखळी आसात अशें आमी मानलें, त्यो त्यो आमी पयस करपाक वावुरले आनी जैतिवंत जाले. कोंकणी भास आनी तिचें साहित्य एक बळिश्ट शक्त म्हणून वयर सरपाक जाय तर ती 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या आमच्या म्हालगड्यांनी 1939 वर्सा, कोंकणी परिशदेच्या स्थापणुकेवेळार कारवार शारांत एका मनान आनी ताळयान प्रगटायिल्ल्या हावेसाक धरून फुडें सरपाची गरज आसा. ह्या प्रस्ना फाटल्यान इल्लेंशें भावनीकपण लिपिल्लें आसा, देखून कांय जाण त्या प्रस्नाचेर एकतर आडनदर करतात वा ताचेर विचार करून मार्ग सोदपाचो यत्न करिनात. परिणाम : कोंकणीन इतलीं जैतां मेळोवनय ती आजूनय आपल्याच आडखळींच्या सांपळयांतल्यान सारकी मेकळी जायना.

कोंकणी लोक गोंयाभायर महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी पातळिल्लो आसलो आनी देशांत हेरयकडेन रावपी आसलो तरी कोंकणीचो साहित्यीक वावर आज जंय चल्ला अशीं केंद्रां मुखेलपणान तीन. एक गोंय, दुसरें कर्नाटकांतलो मंगळुरकडचो वाठार आनी तिसरें केरळांतलें कोची. एका वेळार महाराष्ट्रांतलें मुंबय हेंय एक केंद्र आसलें. पूण, कांय आडवाद सोडल्यार, आज तें तशें उरूंक ना. खरें म्हळयार मुंबयंत आशिल्ल्या कोंकणी लोकांचो आंकडो पळयल्यार , कोंकणीच्या संबंदांत मुंबयचें म्हत्त्व कशेंच उणें जावंक फावो नासलें. पयलें वयलें कोंकणी भाशा मंडळ मुंबयंत स्थापून जालें. हें मंडळ तशेंच आनीक कांय संस्था, कांय मनीस आयज थंय कोंकणीचो वावर करतात. पूण तो आदलेवरी ना. खरें म्हळयार अशें कित्याक घडूंक पावलें हाचेर विचार जावंक जाय आनी कितेंय आडखळी आसात जाल्यार त्यो पयस करून कोंकणी-

खातीर मुंबय सारकें केंद्र नव्यान बळ घेवन उबें रावंक जाय.

संदर्भ आयलो म्हणून मुंबयविशीं सांगचें पडलें. कोंकणीच्या साहित्यीक वावरासंबंदांत ज्या तीन मुखेल केंद्रांचो उल्लेख केला, तातूंत गोंयान 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' हो हावेस फळादीक करपाचे नदरेन फाटल्या तीस-पस्तीस वर्सांत थीरपणान फुडें पावल घालां. मुख्य म्हळयार शिक्षणाच्या मळार मुळाव्या पांवड्या धरून विद्यापिठामेरेन कोंकणी पावली. ते खातीर जाय आशिल्लीं पुस्तकां नागरींतच तयार जालीं. नागरी लिपयेचें म्हत्त्व कोणाक सांगचें पडलें ना. एक सभावीक गजाल म्हणून गोंयांत हें घडूंक पावलें. ते भायर नागरी लिपी हे गोंयचे साहित्य परंपरेचो एक भाग, हाचोय एक आपशींच फायदो जालो.

गोंयाउप्रांत, फाटल्या वीस -पंचवीस वर्सांत कोंकणी खातीर पुरायेन नागरी लिपी आपणावन ते प्रमाण साहित्यीक वावर चालीक लावपी केंद्र म्हळयार कोची. हाका लागून गोंय आनी कोचीमदलो साहित्य संपर्क सोपो जालो. गोंयांत उजवाडा आयिल्लें नागरींतलें कोंकणी पुस्तक कोचीमेरेन पावता आनी केरळांतल्या साहित्यिकालें प्रकाशीत साहित्य गोंयकारामेरेन पावता. मुंबयंतय जे नागरींतलें कोंकणी वाचपी आसात, तांचेमेरेन हें नागरींतलें साहित्य पावता. प्रस्न येता तो हें साहित्य कर्नाटकांतल्या वाचप्यामेरेन - विशेष करून मंगळूर वाठारांतले कोंकणी साहित्यकार आनी वाचप्यामेरेन पावपाचो. तें पावना, कारण, लिपयांच्यो वणटी मदें आड येतात. भास एक आसून लेगीत लिपयांक लागून मंगळूर वाठारांतलें साहित्य हेरांमेरेन पावंक शकना आनी हेरकडचें नागरींतलें साहित्य मंगळूर वाठारांतल्या वाचप्यांमेरेन पावंक शकना. तशे कांय साहित्यकार आनी वाचपीय एकापरस अदीक लिपयांतली कोंकणी बरपावळ वाचतात. कांय साहित्यकारांनी एका पानार कन्नड लिपी आनी दुसऱ्या पानार नागरी लिपी, अशा दोन लिपयांमदें आपणाली कोंकणी बरपावळ छापून पुस्तकरुपान उजवाडायल्या.

आपणालें बरप चडांत चड वाचप्यांमेरेन पावचें ह्या हेतान केल्लो हो यत्न तोखणायेचो तसोच कश्टांचोय. पूण असल्यांनी मूळ प्रस्न सुटावो जायना. प्रस्न सुटावो जावपाचो मार्ग एकच आनी तो म्हळयार 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या हावेसाक धरून कोंकणीचो फुडार घडोवपाचो. हो हावेस प्रगटावन सत्तावन वर्सां उलगलीं. गेलो त्या काळांत तेखातीर जायतें करूं येतालें.पूण, धरुंया कांय कारणंक लागून तें घडलें ना; म्हणजे ह्या मुखारय आमी कांय करचे नात? हें सर्तीचे यूग अशें हांवें ह्या आदींच सांगलां. काळ वेगान धांवता. बदल वेगान घडटात. हे परिस्थितींत, आमचे मदले लिपयांचे वांटे जर आमी सोंपयले नात, जाल्यार कोंकणी विशींचे भावनीक उर्बा-उमाळेच तितले आमकां पुरो पडचे नात.

बंगाली, मराठी, कन्नड, गुजराती आदी भासो वाचपी मनीस, खंयूय आसलो तरी ते ते भाशेंतली बरपावळ, आपणाले भाशेंतली बरपावळ म्हूण तो कसल्याय आडखळीं बगर वाचता. तीच गजाल, आज ना जाल्यार फाल्यां, फुडल्या धा-वीस वर्सांत कोंकणींतय घडूंकच जाय. कोंकणी मनीस, मागीर तो खंयूय आसूं, तो 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या हावेसाक धरून कोंकणीकडेन काळजांतथावन जोडिल्लो उरूंक जाय. हें एक सपन, आनी तें कोंकणीच्या बऱ्याखातीर फळादीक जावंक जाय. हे खातीर आमकां परंपरा, लोकांचो आंकडो आनी चुकीचे समज हांचेर आधारिल्ले कांय हट्ट सोडचेच पडटले. अर्थात् हें सगळें फक्त उलोवन आनी सांगूनच जावचें ना. ते खातीर एक येवजण चालीक लावंची पडटली. ते नदरेन जाणकारांनी गंभीरपणान चितप करचें आनी कोंकणींत लिपयांच्या भेदाक लागून पडिल्ले वांटे बेगोबेग ना करपाच्या वावराक लागचें. हो वावर करपाक जी समजिकाय जाय, तिचो कोंकणी लोकांमदें उणाव ना. कोंकणीच्या नांवान दर्याक सूत घाल्लेवरी, संवसारीकपणाच्यो गजाली करचे परस हो वावर मुळावे गरजेचो. ह्या वावरांतच फुडाराच्या काळांतलें कोंकणीचें जिवेंपण रसरसून फुलून येतलें.

लिपयेच्या प्रस्नाचेर इतलें विस्कुटावन सांगप नाका आसलें अशें कांय जाणांक दिसूं येता. पूण म्हाका हो प्रस्न कोंकणीचो आनी कोंकणी साहित्याच्या संबंदांतलो आमको मुळावो प्रस्न कसो दिसता. देखूनच इतलें सांगचें पडलें.

### एक लिपी, एक साहित्याचे आदाव

एक लिपी, एक भास हाचेपासून येवपी वा मेळपी आदाव म्हज्या सारक्यान तुमकां सांगूंक जाय अशें ना. कारण आमकां सगळयांकच हो प्रस्न बादता. कोंकणी वाचप्याक, कोंकणींतल्या खंयच्याय साहित्यकाराची

बरपावळ सोंपेपणी आनी आडखळींबगर वाचूंक येवंक जाय, हो मुद्दो एक फावट मानून घेतलेउप्रांत, साहित्य-कारांचेय नदरेन तांच्या साहित्याचो आवांठ एकदम विस्तारता. एका गोंयकार कोंकणी साहित्यकारान बरयल्लें पुस्तक वा एका मंगळूरकार कोंकणी साहित्य-कारान बरयल्लें पुस्तक सगळेच कडचे वाचपी एका सारक्याच सोंपेपणी वाचता; खासा साहित्यकारय ते बरपावळीचो आस्वाद घेतात. अशे जातकीच हांतल्यान 'एक साहित्यच' न्हय, जाल्यार एक कोंकणी संस्कृतीक मनय आकार घेतलें. साहित्याच्या प्रसारांच्यो शिमो आजचे परस कितलेच पटींनी रुंदावतल्यो. कोंकणीची एक सगळयाक आस्पावपी साहित्यीक संस्कृती निर्माण जातली. आनी कोंकणी लोक वेगवेगळया राज्यांनी वांटून पडिल्लो आसलो तरी ह्या साहित्यीक संस्कृतीच्या धाग्यान, तो कोंकणीकडेन एकजीव जातलो. गोंयाभायर जंय जंय तो आसा, थंय थंयच्या राज्यांतलो वस्तीकार जावन, थंय थंयच्या भाशीक समाजांत एकरूप जावन रावपावांगडाच तो आपणालें कोंकणीपणय आद्लेपरसय अदीक व्हडविकायेन राखून धरतलो. ही एक चडावत शक्त, कोंकणी मनशाक आसा ताचेपरसय आनीक व्हड करतली. तिचो फायदो परतो कोंकणीकच मेळटलो. विखंडपणांतय मेळपी हें भाग्य, इतिहासानच कोंकणी मनशाक फावो केलां.

**कोंकणी मनशाचें भोवभाशीकपण.**

आमच्या देशांतले बरेचशे साहित्यकार, आपापले भाशेचे मर्यादेंतच चड करून बांदिल्ले आसतात. तमीळ बरोवप्याक कन्नडभाशी कर्नाटक शेजारी आसून कन्नड वाचूंक येना. बंगाली साहित्यकार मराठी वा गुजराती वाचपाचो यत्न करिना. मलयाळम भाशेंत कितें चल्लां तें तेलगू साहित्यकाराक कळना. सगळे लेखक एकाच देशांतले - भारतीय. पूण, कांय आडवाद सोडले जाल्यार सगळे एकामेकांक फाट करून. मराठी भाशीक विद्वान द. रा. बेंद्रे सारको कन्नडचे श्रेष्ठ साहित्यकार जावंक पावप वा मराठी भाशीक आचार्य काकासायब कालेलकाराक गुजरातीचो म्हा-आचार्य जावपाचो मांन मेळप, अशीं उधारणां साप्प थोडीं. देशांतल्या चार भासांतले चार लेखक एकठांय आसले म्हण्टकीच एका-मेकांकडेन उलोवपाक इंग्लीश भास जाय पडटा, हें आमचें दुर्दैव न्हय? अमेरिकेंत साहित्यीक मळार कितें चल्लां तें आमकां कळटा. पूण हिंदींतल्या लेखकाक मराठींत कितें चल्लां ताचो पत्तो नासता. अशे परिस्थितींत वेगवेगळया राज्यांनी रावपी आनी कोंकणी-भायर मराठी, कन्नड, मल्याळम सारख्या गिरेस्त भासांच्या घराब्या संपर्कांत आशिल्लो कोंकणी साहित्यकार, त्या त्या भासांतल्या संपर्काच्या पालवान कोंकणीचे गिरेस्तकायेंत भोव मोलाची भर घालूंक शकता. ते भायर हेरांवरीच कोंकणी मनशाकय शिकून इंग्लीश भास येता. हिंदीय तो सोंपेपणी आत्मसात करता. नागरी लिपीचें ज्ञान हे खातीर फायद्याक पडटा. म्हळयार कोंकणी साहित्यकाराच्या वांट्याक कठिणायां-तल्यानूय जीं कांय आदावाचीं घटां उपलब्ध जातात, तीं सोंपेपणान हेर भाशीक साहित्यकारांच्या वांट्याक येनात. देखीक, केरळांत रावपी प्रो. रावां सारको कोंकणी विद्वान मलयाळम साहित्यकार तकषी शिवशंकर पिल्लेंची 'दोन दंगाळी भात' सारकी कादंबरी सरळ मलयाळमांतल्यान कोंकणींत अणकारूंक शकता. 'मरली माण्णिगे' सारकी कन्नड साहित्यकार शिवराम कारंत हांची कादंबरी कोणाच्याय पालवाबगर सरळ कन्नडांतल्यान कोंकणींत येता. गोंयांत जाल्यार अशे कितलेच साहित्यकार आसात, जे मराठी वा हिंदींतलें सोंपपणी कोंकणींत हाडूंक शकतात. हाचेभायर, आमचे मदें रवींद्रबाब केळेकार सारखे गुजरातीचे जाणकार आसात. पुर्तुगेज, फ्रेंच, इंग्लिश ह्या पश्चिमी भाशांतलें साहित्यधन कोंकणींत हाडपीय विद्वान आमचेमदें आसात. कोंकणी मनशामदलें, विशेष करून कोंकणी साहित्यकारांमदलें हें भोवभाशीकपण, कोंकणी साहित्याक केदी शक्त दिवंक शकता, ताची कल्पनाच करूं नजो. हे शक्तीचो उपेग, आमच्या साहित्यकारांनी, दुसऱ्या भासांतलें बऱ्यांतलें बरें साहित्य कोंकणींत अण-कारपाखातीर यत्न करूंक जाय, अशें हांगा मुजरत सुचयन दिसता. मुळावे साहित्य निर्मणे वांगडाच ह्या भोवभाशी देशांत अणकारीत बरपावळीकय एक खाशेलें म्हत्त्व आसा. येवरोपांतल्या भासांमदें हें अणकारीत साहित्याचें आदान-प्रदान, मुळावे साहित्यनिर्मणे इतलेंच म्हत्वाचें मानतात. येवरोपांतले खंयचेय भाशेंत उजवा-डाक आयिल्ली बरी साहित्यकृती केन्नाच ते भाशेपुरती उरना. रोखडोच तिचो वेगवेगळया येवरोपी भासांनी अणकार जाता. भारतांत अशें सोंपेपणान घडना. कोंकणी साहित्यकारांच्यांनी हे संबंदांत फुडाकार घेवं येता; इतलेंच न्हय तर तो घेवंचोच आनी मुळाव्या साहित्याच्या सांगाता- सांगाताच अणकारीत साहित्यानय कोंकणी साहित्याचें आंगण गिरेस्त करपाचो वावर

हातांत घेवंचो. हे संबंदांत एक सुचोवणीय करची दिसता. ती म्हळयार, आमच्यांतल्या दर एका साहित्य-कारान आपल्या जिवितांत, भारतीय वा संवसारांतले हेर खंयचेय भाशेंतली एक तरी उंच तोलामोलाची साहित्यकृती कोंकणींत हाडचीच हाडची.

### साहित्याफुडले वेव्हारीक प्रस्न

मुळाव्या साहित्यावांगडाच अणकारीत साहित्य कोंकणींत हाडचें अशें हांवें भर दिवन सांगलें. म्हण्टकीच आतां अशें साहित्य उजवाडावप आनी तें लोकांमेरेन पावोवप हे विशींचे जे प्रश्न वा अडचणी आसात, तांचोय विचार करचोच पडलो. ना जाल्यार सगळें सांगलें आनी 'उमत्या कोळशार उदक जालें' अशें जावंक फावना.

गोंयांत जंय व्हड प्रमाणार कोंकणी पुस्तकां उजवा-डाक येतात, थंय अजून तरी पुस्तक-प्रकाशन हो पुरायान आप-पुरतो असो वेवसाय जावंक ना. कोंकणीच्या मोगांतल्यान कांय जाण कोंकणी पुस्तकां उजवाडायतात. ताका एका वेवसायाचें रूप येवंचें असोय प्रयत्न करतात. पुस्तक प्रकाशन हो वेवसाय जातलो जाल्यार पयली गजाल म्हळयार, तीं सर्वसामान्य वाचप्यामेरेन पावंक जाय, तीं खपूंक जाय. लोकांनी आपूण जावन पुस्तकां विकतीं घेवंक जाय. पूण अशें सोंपेपणी घडना. हाचीं कारणां वेगवेगळीं आसात वा आसूं येतात. ह्या प्रस्नाचेर विचार जावंक ना अशेंय न्हय. कोंकणीच्या मळार वावुरतल्यांनी हाचेर वेगवे-गळ्या तरांनी उपाय सोदपाचोय प्रयत्न केला. पुस्तकां खपोवपाचे नदरेन कांय येवजण्यो, कांय उपक्रम चालीक लावपाचोय यत्न जाला - आजय जाता. हांगा एक सांगूंक जाय तें म्हळयार पुस्तकां वाचप्यांमेरेन पावोवप इतलेंच न्हय तर, नवे नवे वाचपी वा वाचक-वर्ग निर्माण करप हे प्रयत्न हेर भासांनीय चलतात. कोंकणींतय ते चल्ले म्हणून वेगळें अशें कितें तरी रिती भायलें घडटा अशें म्हणपा येना. खरें म्हळयार कोंकणींत ते अदीक नेटानच चलूंक जाय. कोंकणी-भाशी समाजाचें स्वरूप आनी कोंकणीच्या पुन-रुत्थानाफाटलो इतिहास समजून घेतल्यार हे प्रस्न कोंकणीक अजूनय कांय काळ बादत रावतले. कोंकणी भास आनी साहित्यान आपणाखातीर नीज हक्काची जी सुवात मेळोवन घेतल्या, तें सगळें थिरायेर पडपाक आनी तिच्या वावराची ठांयबसका जथापथ चलपाक कांय काळ लागतलोच. तोंमेरेन खळनासतना सतत वावर जायत रावंक जाय. आडमेळीं येत रावतलीं. तीं निर्धारान पयस करपाक मात आमची शक्त उणें पडूंक फावना.

कोंकणीखातीर वावुरपी वेगवेगळयो संस्था आसात. तांणी साहित्यीक चळवळीचो एक भाग म्हणून पुस्तकां उजवाडावप्यांक सांगात आनी आधार दिवन पुस्तकां एकसारकीं लोकांमुखार येत रावतलीं असले नवे उपक्रम आंखूंक जाय. पुस्तकांचें म्हत्त्व लोकांमेरेन पावत अशे कार्यक्रम करीत रावंक जाय. थारावीक काळाच्या अंतरान वेगवेगळे कडेन हे तरेचो वावर चलत उरूंक जाय. हातूंत शारां तशींच गांवांय घेवंक जाय. आमच्या साहित्यकारांनीय हो वावर फुडें व्हरपाक संस्थांक आनी पुस्तकां उजवाडावप्यांक पालव दिवंक जाय. पुस्तकां वाचप्यांमेरेन पावोवपाचे उपक्रम चलयतां चलयतां सगळयाक एक साहित्यीक वातावरण निर्माण करपाखातीर साहित्यकारांच्यांनीय योगदान दिवं येता. तरेकवार साहित्यीक कार्यावळी, साहित्य मेळे, साहित्य चर्चा, परिसंवाद हांचो उपेग ते खातीर करूं येता. पूण हें सगळें येवजणबद्ध रितीन जावंक ते खातीर संस्था -संस्थांमदलें सहकार्य वाडूंक जाय.

साहित्याच्या विकासाक हातभार लावप ही सरकारचीय एक लागणूक. भास आनी साहित्याच्या मळार वावर करपी आनी सरकारी दुडवांतल्यान चलपी संस्थांनी ह्या कामाखातीर जाता तितलो पालव दिवंकच जाय. साहित्याखातीर तरेकवार उपक्रम चलयतल्यांनी तो पालव घेवंकय जाय. सोंपेपणी मेळना जाल्यार झगडून घेवंक जाय. पूण असो पालव मेळूंक लागत-कीच सगळीच मान सामकीच सरकारी खांद्याचेर दवरपाची प्रवृत्ती वाडीक लागची ना हाचीय जतनाय घेवप गरजेचें. कारण आपाप मेळपी पालव, काम करतल्यांमदें एके तरेची सुस्ती आनी बेपर्वाय निर्माण करता. ही बेपर्वाय लोकास्रयाचेर चलपी काम मुळांतच लोकांपासून पयस व्हरता. आमकां आमच्या वावराफा-टल्यान लोकशक्त जाय. सरकारी वा सरकारी संस्थांचो पालव घेता आसतनाच लोकशक्त आमच्या वावरांत खंयच उणें पडची ना हे संबंदांत आमी सदांच शिटूक-साणेन आनी चत्रायेन रावंक जाय.

इलेक्ट्रॉनीक प्रसार माध्यमांनी लिखीत साहित्याचेर हावळ हाडल्या; पुस्तकां वाचपाचें प्रमाण उणें उणें जायत चल्लां. लोक नेमाळीं लेगीत धडपणान वाचिनात असो एक सूर कानार येता. शिकिल्ले सर्वारल्ले आसून लेगीत जर पुस्तकां वाचपीच मुळांत उणे जायत रावले

जाल्यार साहित्य कोणाखातीर, पुस्तकां कोणाखातीर आनी पुस्तकां खपोवपाचे प्रयत्न तरी कित्याखातीर, अशे प्रस्न आपशींच मुखार येतात. ह्या प्रस्नांकय जाप आसा अशें म्हाका दिसता.

प्रगत देशांनी -विशेष करून पश्चिमी देशांनी जेन्ना इलेक्ट्रॉनीक प्रसारमाध्यमांची नेटान वाड जाली, तेन्ना थंय बी आमकां जे प्रस्न पडल्यात, तशेंच जाल्लें. सुर्वेक कांय वर्सां तशेंच चल्लें. वाचपी उणे जावंक लागले. चड करून भुरगीं आनी तरनाटे ह्या प्रसारमाध्यमाच्या आकर्षणांत अदीक घुस्पले. म्हजेकडेन विशिष्ट अशी आंकडेवारी ना. तरी पूण म्हजे माहितीप्रमाण प्रसार-माध्यमांनी निर्माण केल्लो प्रस्न तसोच उरलो ना. कांय वर्सांतच परिस्थिती बदलूंक लागली. पुस्तकां प्रकाशीत जावप, तीं खपप, लोकांनी वाचप हें उणे जाता अशें दिसतालें तें नाच जालें. आज पश्चिमी देशांनी - येवरोप तशें अमेरिकेंत प्रकाशन वेवसाय नेटार आसा. पुस्तकां उजवाडा येतात. लेखक लक्षाधीश, कोट्याधीश जायत आसात. म्हणजे पुस्तकां विकतीं घेवपी आसात आनी तीं वाचपीय आसात.

हेच खातीर म्हाका दिसता, प्रसारमाध्यमां प्रगत देशांचे तुलनेन आमकां नवीं आसात, ताका लागून तांचें आकर्षण आसा. पूण तें तशेंच उरचें ना. आनी सुरवेच्या काळांत तें लिखीत साहित्य वाचपाचेर परिणाम करता अशें दिसलें तरी ती परिस्थितीय तशीच उरची ना. जाणकारांच्या मत्तान, प्रसारमाध्यमांनी कितलेय चमत्कार केले तरी लिखीत साहित्याची सुवात तें केन्नाच घेवंक पावचें ना. पुस्तक वाचप हो एके तरेचो ज्ञानयोग. एकाद्री एक कादंबरी वाचप आनी तातूंत जो आनंदाणभव घेवप आसता तो अणभव, तीच कादंबरी प्रसारमाध्यमांतल्यान सादर केल्ल्या रुपांत पळोवंक येवपाचो ना. महाभारत आमी दूरदर्शनचेर पळयलें. पूण महाभारत मुळांत वाचून जें अणभवंक मेळ्ळें, तें दूरदर्शनवरलें महाभारत पळोवन म्हजेसारक्याक दिसलें ना. देखून सांगतां, साहित्याच्या फुडाराविशीं मनांत कसलोच दुबाव नाकात. साहित्य निर्माण जावप आनी सगळ्यांमेरेन तें पावप हाचोच विचार आमी करुंया आनी हे संबंदांत साहित्यकार म्हणून आमची जी कितें लागणूक आसा ती आमी बरेभाशेन निभावंया. आनीक एक सांगतां, कोंकणी साहित्यकार हो साहित्यकारच न्हय; तो एक संघर्षकय. तो एक 'रायटर' तसोच 'फायटर'य! कोंकणीक आज जें कितें मेळ्ळां, तातूंत हो 'रायटर' तसोच 'फायटर'य आसा, हें आमी विसरुंया नाका.

## कोंकणी साहित्याचो संवसार

कोंकणी साहित्याचो संवसार उत्तरेक मुंबय साकून दक्षिणेक केरळामेरेन पातळ्ळा. आमगेले बरोवपी वेगवे-गळया साहित्यप्रकारांवरवीं हो संवसार फुलोवपाचो प्रयत्न करतात. कविता, कथा, नवलकथा, नाटक, निबंद हे सगळे साहित्यप्रकार बरोवपी आपापले तांकीन केळयत आसात. हांवें हे आदींच जे विशीं चर्चा केल्या, त्या लिपयांच्या वणटींक लागून आमच्यांतले साहित्यकार (आनी वाचपीय) जरी सगळयाच कोंकणी साहित्याचो सरसकट आस्वाद घेवंक शकले नात, तरी कोंकणी साहित्य शारदेच्या मंदिरांत आमची सेवा आमी रुजू करीत आसात.

आमगेल्या साहित्यकारांचें साहित्य तोलामोलान कशें? हेर भासांतल्या साहित्याचे तुलनेंत तें खंय उरता? आमच्या साहित्यांत आमगेल्या जिविताचें, सुखादुखांचें पडबिंब पडटा काय कितें? आमच्या साहित्यांत वैश्वीकपणाचे गूण आसात काय कितें ? आमी कित्याचेर चड भर दिवंक जाय? आमच्या साहित्यांत कवितेची पिकावळ चड जाता? ते मानान गद्य उणें पसवता? हे आनी असले साबार प्रस्न, ह्या साहित्य संवसाराची भोंवडी करतना आमचेमुखार उबे रावं येतात. म्हाका दिसता, हातुंतल्या कांय प्रस्नांच्यो जापो सोदपाक आनीक कांय काळ वचपाची गरज आसा. कारण, आतांच खंय तरी आमी थीर-थावर जावपाचे वाटेक लागल्यात. बरोवप्यांची एक एक नवी नवी पिळगी वयर सरत आसा. जे प्रस्न आज आमकां पडटात, तांकां जाप दिवन कोंकणी साहित्याक फुडें व्हरपाचें काम आदले वा आजचे पिळगेंतले न्हय, जाल्यार नवे पिळगेंतले कोण ना कोण तरी करतलेच. कारण ती कोंकणीचीच न्हय, तर कोंकणीचो फुडार ज्या काळांत फुलतलो, त्या काळाचीय गरज आसतली.

जायते खेपो आयकूंक येता, आमचे कडेन "अजून हें ना," आनी आमचेकडेन "अजून तें ना." मान्य. अशी नदर आसूंकच जाय. उदरगतीचो वावर करतना, कितें आसा वा ना तें पळोवंकच जाय. ते भायर, आमच्या साहित्यीक वावरा संबंदांत आमी आमकांच प्रस्नय करूंक जाय. हे प्रस्न, आमच्यांतले जे खऱ्यांनीच संवेदनशील आसात तांकां सामके अस्वस्थ करतले. ही अवस्थकाय सामकी गरजेची. ती अस्वस्थकाय सगळयां-

मदें निर्माण जावं. ती आमकां साहित्यनिर्मणेचीं वेगवेगळीं मळां नांगरून गिरेस्त पिकावळ काडपाक बळ दितली.

साहित्य निर्मणेच्या संबंदांत एक गजाल आमी मतींत घेवंक जाय ती म्हळयार, कोणें कितें बरोवंचे आनी कोणें कसले प्रकार हाताळचे, हे सांगून तशी साहित्य निर्मणी जायना. कोंकणीच्या मळार, चड करून गोंयांत कविताच चड निर्माण जाता ते बदला गद्य बरप चड जावंक जाय अशें आमचे कांय साहित्यकार अदींमदीं उलोवन दाखयतात. कविता चड जाता ते बदला गद्य चड जाय, तें निर्माण कोणें करप? समाजाचे गरजेंतल्यानच साहित्य निर्माण जाता अशें हांव म्हणिना. तें साहित्यकारांच्या अंतःप्रेरणेंतल्यानय निर्माण जाता. आमचेमदली अंतःप्रेरणा जर आमच्यांतल्या कांय जाणांक कवितेंतल्यानच उलोवंक सांगता, जाल्यार ताका आडबांद कित्याक घालप? कोंकणी कवितेनय कोंकणीक शक्तच दिल्या. कथाय फाटीं ना. तीय आपणालो रूपकार प्रगटायत येता. हेरय साहित्यप्रकार येतले. आमी साहित्याखातीर तशें वातावरण तयार करीत रावुंया. कसल्याय आडबांदांविरयत आनी आडखळींविरयत आमी कोंकणी साहित्य हें सगळया कोंकणी भाशिकांचें एकच साहित्य जातलें असो प्रामाणीक प्रयत्न करुंया. आमचो साहित्यसंवसार कोनशा कोनशांनी वांटून पडला. ते कोनशे, पयलीं काळजांतले आनी मागीर प्रत्यक्ष वेव्हारांतले काडून उडोवंया. अशें केले उप्रांत, कोंकणी साहित्याचें जें एक विशाल क्षेत्र आमकां दिश्टी पडूंक लागतलें, तें कोंकणीक जें जें कितें जाय तें आपूणशेंच दिवंक लागतलें अशें म्हजें मन म्हाका सांगता.

जें कितें घडूंक जाय, तांचे आमी जागृत घडोवपी जावंया. पूण तेच बरोबर आमी आमकां एक संवय लावन घेवंया. ती म्हळयार आमी आमकां सतत तपाशीत रावपाची. आमी जें कितें बरयतात ताची तोखणाय जाता तशीच समिक्षाय जावंक जाय. शास्त्रशुद्ध समिक्षा. आजवेर समिक्षेच्या नांवाखाला आमी साहित्याचो चडसो आस्वादक नियाळच घेत रावल्यात. आस्वादन चलचेंच; पूण समिक्षा सामकी गरजेची. आमकां दिका दाखोवपी समिक्षा. साहित्यांतलें योग्य - अयोग्य, बरें- वायट, आसूड-फाफुडपाची आनी उकत्या मनान स्विकारपाची तयारी दवरलेबगर आमगेलें साहित्य जाय तशें 'साहित्य' म्हूण वाडचें ना. शेत बरें जातलें तर नडणी करचीच पडटा, हें आमी साहित्यकारांनी विसरूंक फावना.

### सोंपयतना...

साहित्यशारदेच्या ह्या व्यासपिठावयल्यान म्हाका जें कितें सांगीन दिसलें तें आतां मेरेन हांवें तुमकां सांगलें. हें व्यासपीठ आजवेर कोंकणी सरस्पतीच्या व्हड व्हड म्हालगड्या उपासकांनी सोबयलां. ह्या व्यासपिठार मानाचे सुवातेर बसपी हांव- कोंकणीचो एक नम्र सेवक. गोंय आनी कोंकणी जे परिस्थितीक फुडो करतालीं, ते परिस्थितीनच म्हाका बरोवपी केलो. आनी म्हजे हस्तुकीं कोंकणीची जी कितें सेवा करूं येताली ती हांवें केली अशें म्हाका दिसता. आजवेर हांवें जें कितें अणभवलें, पळयलें आनी जाणून घेतलें, तांच्याच उजवाडांत रावन हांव उलयलां. सांगपासारकें आनीकय जायतें कितें आसूं येता. पूण म्हजे पुरतें, आनीक कितेंय सांगपाचें उरलांच जाल्यार, तें म्हजे एके कवितेचीं उतरां घेवनच सांगून सोंपयतां -

अथांग, असीम, अनंत<br>
ह्यायपरस<br>
वेगळया उतरांनी<br>
सांगचें जाल्यार ...<br>
उतरांच नात !<br>
उतरांचे सुवातेर<br>
खोल खोल एक संवेदन ...<br>
एक एक नाद,<br>
एक एक गती, काळभेदी,<br>
सगळेंच<br>
अथांग, असीम, अनंत .. अन्तहीन



## साहित्य अकादमी पुरस्कार (1995) जोडिल्लेखातीर जांचो भोवमान जाता त्या श्री. दिलीप बोरकार हांची वळख

# दिलीप बोरकार



जल्म 9 जानेवारी 1957 वर्सा आगशी - गोंय हांगा. कॉलेजींत शिकता आसतनाच विद्यार्थी, युवक आनी कामगार चळवळींत सक्रीय वांटो. कोंकणी भाशेक राज्य मान्यताय मेळोवंक आनी गोंयचें घटक राज्य करूंक केल्ले चळवळींत मोलाचो वांटो. गोंयचे संस्कृतीक, समाजीक आनी राजकीय चळवळींत योगदान दितनाच कोंकणी आनी मराठींतल्यान सातत्यान लेखन. गोंयच्यान उजवाडाक येवपी दिसाळीं आनी म्हयनाळयांतल्यान फाटलीं कितलीं तरी वर्सां सावन स्तंभलेखन करतात. वर्गशत्रू, भरतेभार, आयज आमचें राज्य आयलें, आण्टीची गादी हीं नाटकां, कॅन्सर हो एकांकी संग्रह, दर्या सुंदरी, अशांत सुशांत, मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी हें भुरग्यांसाहित्य, रूक्षप्रस्न हो निंबदसंग्रह आनी गोमांचल तें हिमाचल हें प्रवास वर्णन अशीं तांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांच्या भरते भार ह्या नाटकाक गोंय कला अकादमी पुरस्कार आनी गोमांचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक गोंय कला अकादमी पुरस्कार आनी 1995 वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फाव जाला. एका तळयाच्या तळाक, उजवाडाचो दूत, एक शून्य प्रवास ह्या नभोनाट्यांक तांकां आकाशवाणीचे अखिल भारतीय नभोनाट्य सर्तीत सतत तीन वर्सां पुरस्कार फावो जाला. तांच्या कवितांचो आनी लेखांचो शालेय अभ्यासक्रमांत आसपाव केल्लो आसा. 'पवित्र पुस्तक-नवो करार' हें देवनागरी लिपयेंत हाडपाचो भोव मोलाचो वावर तांणी केल्लो आसा. मुंबय विद्यापिठाची एम्. ए. आनी गोंय विद्यापिठांतल्यान एम्. ए. अशें शिक्षण घेवन ते विद्यादानाचो व्यवसाय करतात. पांयभोंवडी कार्यावळी खाल तांणी पुराय भारताची आनी नेपाळ सारख्या देशाची भोंवडी केल्ली आसा.



# वावुरपी समिती



के. गोकुलदास प्रभु



सुरेश ए. शेणै



आर. एस. भास्कर



के. अनंत भट



शिवानंद शेणै पी.



के. के. सुब्रह्मण्यन



के. आर. वसंतमणी



बी. लक्ष्मण मल्या



वी. एन. वसंतकुमार



पी. मनोहर



शरतचंद्र शेणै



एच. बी. शेणै

# अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन

## फाटलीं बारा साहित्य संमेळनां

| क्र. | तारीख / जागो | पद | नांव |
|---|---|---|---|
| 1 | 1968 जून, 23<br>**मडगांव**<br>श्री दामोदर विद्या भुवन | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष : | श्री. बाकीबाब बोरकार<br>श्री. लक्ष्मणराव सरदेसाय |
| 2 | 1969 नोवेंब्र, 15-16<br>**पणजी**<br>क्रिश्त रेय सभाघर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | फा. मोरेनु द सौझ<br>श्री. रवीन्द्र केळेकार<br>श्री. गोपाळ आपा कामत |
| 3 | 1975 फेब्रुवारी, 15-16<br>**मडगांव**<br>श्री दामोदर विद्याभुवन | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्री. एवाग्रियु जॉर्ज<br>श्री उदय भेंब्रे<br>श्री देवराय बैंदूर |
| 4 | 1977 मे, 7-8<br>**म्हापशें**<br>मोंसिञ्योर दाल्गादु नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्री. पां. पु. शिरोडकार<br>फा. आन्तोनियु पैरैर<br>श्री डॉ. नामवर सिंग |
| 5 | 1979 मार्च, 2-3-4<br>**मडगांव**<br>गोमंत विद्यानिकेतन सभाघर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्री फेलिसियु कार्दोज<br>श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय<br>श्री. भवानी प्रसाद मिश्र |
| 6 | 1981 फेब्रुवारी, 14-15<br>**काणकोण**<br>माधव मंजुनाथ शानभाग नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | फा. आल्वारु रेनातु मेंदिस<br>शांताराम हेदो<br>श्री माधव विठल कामत |
| 7 | 1983 फेब्रुवारी, 19-20<br>**साखळें -कुडचडें**<br>कृष्णदास शामा नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्री. नागेश करमली<br>फा. स्वामी सुप्रिया (सी. सी. ए. पै)<br>श्रीमती मागरिट आल्वा |
| 8 | 1985 मे, 11-12<br>**रामनाथी**<br>दादा वैद्य नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्री. एन. शिवदास<br>श्री. दामोदर मावजो<br>श्री. रामानंद सागर |
| 9 | 1987 मे, 16-17<br>**सांखळी**<br>शणै गोंयबाब नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | प्रा. अरुण साखरदांडे<br>श्री. चा. फ्रा. द कॉश्त<br>प्रा. एम. तोंबी सिंग |
| 10 | 1990 फेब्रुवारी, 17-18<br>**[illegible]**<br>मुरारबा पेडणेकार नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्रीमती कमल पार्सेकार<br>श्री. गुरुनाथ केळेकार<br>फा. आंतोनियु पैरैर |
| 11 | 1992 फेब्रुवारी, 8-9<br>**कारवार**<br>माधव मंजुनाथ शानभाग नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्रीमती आशा पी. पालनकार<br>श्री एडविन जे. एफ. द सौझ<br>डॉ. शिवराम कारंत |
| 12 | 1994 मार्च, 5-6<br>**म्हापशें**<br>गुंडू सीताराम आमोणकार नगर | येवकार अध्यक्ष :<br>अध्यक्ष :<br>उद्घाटक : | श्री तोमाझिञ्यु कार्दोज<br>श्री. बी. वी. बाळिगा<br>डॉ. मोरेनु द सौझ |

*अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाक*
*शुभाशंसा !*




सगल्या साहित्यकारांक, रसिकांक
प्रतिनिधींक, सोयऱ्यांक
आनी भाशा मोग्यांक
हुनहुनीत येवकार !

**केरळ कोंकणी अकादमी (रे) कोची**



# अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन

## फाटलीं बारा संमेलनां - एक नियाळ

### सुरवेच्या काळांतलीं चार संमेलनां

एकापरस अदीक राज्यांनी विखंड जावन पडिल्ल्या कोंकणी समाजाक, भाशेच्या सुत्रान संस्कृतीक मळार एकठांय जोडपाचें काम अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या आसऱ्याखाला जातालें. हे परिशदेच्या वावराचो आस्पाव आनी मोख कोंकणी मुखावयले तुर्ताचे परिस्थितीचे नदरेन वेगळी आशिल्ल्यान, कोंकणी बरप्यांक कोंकणी साहित्याच्या वावराखातीर एकठांय हाडपाक एका व्यासपिठाची गरज आसली. हेच गरजें-तल्यान कोंकणी लेखकांचे परिशदेची कल्पना फुडें आयली आनी 'कोंकणी लेखक परिशद' ह्याच नांवाखाला तिच्यो दोन बसको जाल्यो. तिसरे खेपेच्यान 'परिशद' ह्या नांवांत बदल करून 'अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन' म्हणून तें जावंक लागलें. पयल्यो दोन लेखक परिशदो 'कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट' हाच्या आसऱ्याखाला जाल्ल्यो. तिसऱ्या लेखक संमेलनासावन, हीं संमेलनां पुरायान कोंकणी भाशा मंडळाच्या आसऱ्याखाला आयोजीत जावंक लागलीं. इकराव्या संमेलना साकून ताची जापसालदारकी अ. भा. कोंकणी परिशदेकडेन सोंपयली आनी ताच्या नांवांतय बदल करून तें 'अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन' अशें केलें.

### पयलें संमेलन

1968 वर्सा पुण्यवंत शणै गोंयबाबाचे जयंती दिसा म्हळयार जूनाचे 23 वेर मडगांवांत श्री दामोदर विद्याभुवनांत जाल्लें. ह्या संमेलनाचे येवकार-अध्यक्ष आसले बाकीबाब बोरकार आनी येजमान आसले प्रसिद्ध कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय. कोंकणी भाशा मंडळाचे तेन्नाचे अध्यक्ष श्री. केशवबाब भेंब्रो हांणी ही परिशद घडोवन हाडपाक जायतो वावर केल्लो.

हे पयले परिशदेंत कोंकणी बरपावळीच्या वेगवेगळया प्रस्नांचेर मुखेलपणान विचार जाल्लो आनी कोंकणीचे साहित्यीक चळवळीक फावो तें रूप दिवपाचे नदरेनय कांय पावलां मारपाचीं थारिल्लीं. कोंकणी समाजाचो संस्कृतीक एकवट, कोंकणीचें शुद्धलेखन, एकरुपी कोंकणी, बरोवपी आनी तांचें साहित्य, हे ते परिशदेंतले म्हत्त्वाचे मुद्दे आसले.

### दुसरें संमेलन

कोंकणी लेखकांचें दुसरें संमेलन 1969, नोव्हेंबरचे 15 आनी 16 वेर अशे दोन दीस पणजेंत जाल्लें. हे परिशदेची येजमानकी श्री. रवींद्रबाब केळेकार हांणी चलयिल्ली. फादर मोरेन द सौझ हे तिचे येवकार अध्यक्ष आसले. सर्वश्री नागेश करमली आनी रामकृष्ण जुवारकार हांणी कार्यदर्शी ह्या नात्यान वावर केल्लो. गोंय, दमांव, दीव विधानसभेचे तेन्नाचे सभापती श्री गोपाळ आपा कामत हांणी ह्या संमेलनाचें उक्तावण केल्लें. त्या संमेलनाक गोंयाभायर मुंबय, पुणें, कारवार, मंगळूर, कोचीन ह्या सुवातांवयल्यानूय प्रतिनिधी आयिल्ले.

पणजेच्या क्रिश्तु रेय सभाघरांत जाल्ले हे परिशदेंत पयल्या दिसा उक्तावणाचो दबाजो आनी रातची तरेकवार संस्कृतीक कार्यावळ जाल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं, विशय समितीची बसका आनी ते उप्रांत दनपारां पेपर वाचन आनी सांजेची उक्ती बसका जाल्ली. गोंयचें शिक्षण आनी कोंकणी लोकगितां, कोंकणी नाटकां, कोंकणी सरस्पत, रोमी लिपींत

कोंकणी वर्तमानपत्रांचो इतिहास आनी कोंकणी साहित्य कानडी लिपींत अशे वाचिल्ल्या पेपरांचे विशय आसले. उक्ते बसकेंत आठ थाराव मानून घेतिल्ले. हांतले मुखेल म्हळ्यार कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळची, कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पाव जावचो, गोंयच्या सरकारान कोंकणी भाशा विभाग सुरू करचो, आकाशवाणीचेर कोंकणीक अदीक वेळ मेळचो, कोंकणीक आदार दिवंक केरळ सरकाराकडेन मागणें आनी एसएससी बोर्डाच्या शिक्षणक्रमांत कोंकणीचो आस्पाव करचो अशो मागण्यो करपी आसले. कोंकणी लेखकांनी निरक्षरांक साक्षर करपाखातीर पुस्तकां, भुरग्यांक वाचपाक पुस्तकां आनी शाळांखातीर पुस्तकां, तयार करपाखातीर सहकार्य दिवचें आनी देवनागरी लिपीचो उपेग एके मानून घेतिल्ले रितीन करचो असो कोंकणी लेखकांक आवाहन करपी एक थाराव आसलो.

कोंकणी लेखकांचे दुसरे परिशदेचो हो सगलो वावर, जातूंत येवकार अध्यक्ष, उक्तावण करपी आनी येजमान हांचीं भाशणां, वाचिल्ले पेपर आनी मानून घेतिल्ले थाराव हांचो आस्पाव जाता, तो पुस्तकरुपान उजवाडायला. 'जैताचें आनीक एक पावल' अशें ह्या पुस्तकाचें नांव आसा.

## तिसरें संमेलन

कोंकणी लेखकांचें संमेलन 15 आनी 16 फेब्रुवारी 1975 वर्सा मडगांवां भरलें. श्री. उदय भेंब्रो हे संमेलनाचे अध्यक्ष आसले आनी एवाग्रियु जॉर्ज येवकार अध्यक्ष. नामनेचे कोंकणी नाटककार, श्री. देवराय बैंदूर हांणी संमेलनाचें उद्घाटन केलें. येवकार समितीचे कार्याध्यक्ष श्री. शांताराम अनंत हेदो हांच्या मार्गदर्शनाखाला विंगड विंगड समित्यांच्या वांगड्यांनी हें संमेलन जैतिवंत करपाक हातभार लायलो. शेवनारा सांजवेळा संमेलनाचें उद्घाटन जालें आनी रातीकडेन संस्कृतीक कार्यावळ जाली. गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांतल्या कोंकणी लेखकांनी ह्या संमेलनांत वांटो घेतिल्लो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं विशय नियामक समितीचे बसके उप्रांत कोंकणी साहित्याचे वाडीची दिशा सारकी आसा काय ना हाचेर एक परिसंवाद जालो. दनपारां लेखकांचो मेळावो जालो. जो एकामेकांकडेन वळख वाडोवपाक उपकारलो. उक्ते बसकेंत कांय म्हत्त्वाचे थाराव घेतले उप्रांत रातीकडेन कवी संमेलन जालें.

मानून घेतिल्ल्या थारावांमदीं कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पाव करचो, साहित्य अकादेमीन हे भाशेक मान्यताय दिवची, गोंय सरकारान कोंकणी नाटकांवयलो करमणूक कर रद्द करचो, कोंकणीचे वरवीं समाज जागृती घडोवन हाडून गोंयचें पुनरुत्थान करचें, घरावे आनी भौशीक जिणेंत कोंकणीक मानाची सुवात दिवची, आकाशवाणीन आपल्या विंगड विंगड केंद्रांचेर कोंकणीक चड वेळ दिवचो आनी गोंयच्या अदमासपत्रांत मंजूर जाल्ले पयशे राज्य सरकारान कोंकणीचे उदरगतीखातीर वापरचे अशो मागण्यो करपी थाराव आसले.

## चवथें संमेलन

चवथें संमेलन 7 आनी 8 मे 1977 अशे दोन दीस म्हापशां जालें. संमेलनाचें उद्घाटन नामनेचे हिंदी लेखक डॉ. नामवर सिंग हांणी केलें. फा. आंतोनियु पैरैर हे संमेलनाचे अध्यक्ष आनी येवकार अध्यक्ष श्री. पांडुरंग पु. शिरोडकार हे आसले. पयल्या दिसा उद्घाटनाचो दबाजो जाले उपरांत दुसऱ्या दिसा सकाळीं साहित्यीक चर्चेचो कार्यक्रम जालो. कोंकणी साहित्याचो दर्जो, कोंकणी नाटक, वाचप्यांच्यो अपेक्षा, समाज आनी साहित्य, साहित्याचो पांवडो, साहित्याचें प्रकाशन सारक्या प्रस्नांचेर हे चर्चेत विचार जालो. सांजवेळची सभा संमेलनाचे अध्यक्ष फा. पैरैर हांचे येमानपणाखाल जाली. हे सभेन वेगवेगळयो थारावण्यो घेवन सोंपिल्ल्या बरोवप्यांक आर्गां ओंपलीं। तशेंच कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आस्पाव करपाची मागणी केली. दुसरे एके थारावणेन संमेलनान साहित्य अकादेमीक परबीं दिलीं. शिक्षणाच्या मळार कोंकणी, आकाशवाणीवयल्यो कोंकणी कार्यावळी, नाटकांवयलो करमणूक कर ह्या विशयांचेरूय संमेलनान थारावण्यो केल्यो.

## पांचवें समेलन

अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचें पांचवें अधिवेशन मडगांवां गोमंत विद्या निकेतन सभाघरांत 1979 वर्साच्या मार्च म्हयन्यांत 2,3 आनी 4 तारखांक जाल्लें. तीन दिसांचे कार्यावळीन संपन्न जाल्लें तें पयलेंच

संमेलन. ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले नामनेचे कोंकणीचे कोशकार श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय. श्री. फेलिसियु कार्दोज हे येवकार अध्यक्ष आसले. श्री. पांडुरंग पै फोंडेकार हे कार्याध्यक्ष आसले. ह्या संमेलनाचें उद्‌घाटन नामनेचे हिंदी कवी श्री. भवानीप्र-, साद मिश्र हांणी केल्लें.

पयल्या दिसा उक्तावण दबाजो जाले उप्रांत दुसऱ्या आनी तिसऱ्या दिसा वेगवेगळे परिसंवाद आनी चर्चा आनी साहित्य दर्शनाच्यो कार्यावळी जाल्यो. 'कोंकणी साहित्य - आयचें आनी फायचें' आनी 'भुरग्यांचें साहित्य-बरप आनी प्रचार' हे दोन मुखेल परिसंवाद आसले. 'पुस्तकांची उजवाडावणी आनी विक्री' आनी 'कोंकणी साहित्य आनी बायलो'. 'साहित्यदर्शना'च्या कार्यक्रमांत तरणाटे तशेंच जाणटे हांच्या कथा-काव्य ललीत बरपांच्या वाचनाचो आस्पाव आशिल्लो, संमेल-नाच्या तीनय दिसांनी रातच्यो संस्कृतीक कार्यावळी जाल्यो. तातूंत लोकगितां, लोकांनाच, नाटकुलीं, तियात्र हांचो समावेश आसलो.

ह्या संमेलनांत (पयलेच खेपे) कसल्योच थारावण्यो अशो करूंक नासल्यो. पूण 'कोंकणीक राष्ट्रीय संविधा-नाक धरून सगलेकडेन फावो ती हक्का- मानाची सुवात मेळसर आमी कशेच स्वस्थ बसचे नात' असो उक्ते बसकेंत सगल्यांनी निर्धाराचो रासवळ सोपूत मात घेतिल्लो. संमेलनात गोंय तशेंच गोंया भायल्या प्रतिनि-धींनी व्हड संख्येन वांटो घेतिल्लो.

### सवें संमेलन•

सवें कोंकणी लेखक संमेलन गोंयच्या दक्षिण वाठारांत काणकोणां 14 आनी 15 फेब्रुवारी 1981 ह्या दिसांनी जालें. ह्या संमेलनाखातीर खासा मंटप उबारिल्लो आनी ताका कोंकणीचे म्हालगडे आनी कोंकणी साहित्य परिशदेचे संस्थापक अमर उगडासाचे शानभाग हांचें 'माधव मंजुनाथ शानभाग नगर' अशें नांव दिल्लें. ह्या संमेलनाचे स्वागताध्यक्ष आसले फादर आल्वारु रेनातु मेंदीश. कार्याध्यक्ष आसले श्री. रमेश कोमरपंत. संमेलनाचें अध्यक्षपद प्रो. शांताराम अनंत हेदो हांणी चलयिल्लें. संमेलनाक उद्‌घाटक म्हणून नामवंत पत्रकार श्री. माधव विठ्ठल कामत हे लाबिल्ले.

पयल्या दिसा उक्तावण दबाजो जाल्लो, तातूंत कार्याध्यक्ष, येवकार अध्यक्ष, उद्‌घाटक, अध्यक्ष हांचीं उलोवपां, मानेस्तांचो सत्कार, नव्या पुस्तकांचें प्रकाशन आदी कार्यक्रम आसले. तेन्नाचे गोंयचे मंत्री श्री. शेख हसन हरूण हे उक्तावण दबाज्याक मुखेल सोयरे म्हणून आयिल्ले.

दुसऱ्या दिसा जे कार्यक्रम आसले तातूंत प्रतिनिधींची वळख, 'कोंकणी साहित्य : फाटल्या अणभवांतल्यान फुडली आंखणी' हो परिसंवाद आनी चर्चा, 'साहित्य प्रसाराचो मार्ग' ही चर्चा, 'नवे कवी-नवे उमाळे' हें कवीसंमेलन हांचो आस्पाव आसलो. ह्याय संमेलनांत कसलेच थाराव अशे करूंक नात; पूण उक्ते बसकेंत 'कोंकणीच्या सर्वांगीण विकासाखातीर आनी जैतापासत वावुरपाचो' सामुहीक निर्धार मात सोपुताच्या रुपान सगल्यांनी घेतिल्लो. संमेलनाचे उक्ते बसकेक मुखेल सोयरे म्हणून गोंय विधानसभेचे तेन्नाचे उपसभापती श्री. वैकुंठ देसाय हे उपस्थीत आसले. कोंकणीच्या सगल्या वाठारांतल्या प्रतिनिधींचे उपस्थितींत संपन्न जाल्ल्या ह्या संमेलनांत, गोंयच्या दक्षिण वाठारांतल्या- विशेश करुन काणकोण म्हालांतल्या लोककलांचें दर्शन घडोवपी संस्कृतीक कार्यावळीचें दोनय दीस आयोजन केल्लें.

### सातवें संमेलन

सातव्या कोंकणी लेखक संमेलनाची दोन दिसांची कार्यावळ 1983 वर्सा फेब्रुवारीच्या 19 आनी 20 ह्या दिसांनी सांवड्डें-कुडचड्यार घडोवन हाडिल्ली. खासा मंडपांत जाल्ल्या ह्या संमेलनाच्या थळाक सोळाव्या शेंकड्यांत जावन गेल्ल्या गोंयकार कवीच्या उगडासाक 'कृष्णदास शामा नगर' हें नांव दिल्लें. ह्या संमेलनाचे येवकार अध्यक्ष आसले श्री. नागेश करमली. श्री. उल्हास बुयांव हे कार्याध्यक्ष आसले. नामनेचे कोंकणी पंडित, हल्याळचे फा. सिप्रियान सी. ए. पै उर्फ स्वामी सुप्रीय हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. तेन्नाची संसद सदस्या श्रीमती मागरिट आल्वा हांणी ह्या संमेलनाचें उद्‌घाटन केल्लें.

संमेलनाच्या पयल्या दिसा उद्‌घाटनाची कार्यावळ जाले उप्रांत दुसरो सबंद दीस हो संमेलनामुखार आशिल्ल्या वेगवेगळया तरांच्या वावरांचो दीस आसलो.

तातूंत कोंकणी साहित्याचो विकास आनी 'कोंकणी भास आनी लोकजीण' हे दोन म्हत्त्वाचे परिसंवाद आनी चर्चा आसल्यो. गोंय तशेंच गोंयाभायरसून आयिल्ल्या प्रतिनिधींचो स्नेहमेळावो जाल्लो. कवी संमेलनाची कार्यावळ दोन वांट्यांनी जाल्ली. संस्कृतीक कार्यावळींमदीं संमेलनाचे पयले रातीं तरेकवार लोककलांचें दर्शन आनी दुसरे रातीं 'शबै शबै भौजनसमाज' ही नाटकाची कार्यावळ दवरिल्ली. हे आदल्या दोन संमेलनांनी थारावण्यांच्या कार्यक्रमांत कातर लायिल्ली. पूण ह्या संमेलनांत विशय नियामक समितीची बसका जावन कोंकणीच्या अर्दान कांय थारावण्योय मानून घेतल्यो. हातुंतल्यो म्हत्त्वाच्यो थारावण्यो म्हळयार, संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो समावेश करपाची मागणी, भारतीय ज्ञानपीठ सारके संस्थेन पुरस्काराखातीर कोंकणीसारक्या भाशांतल्या साहित्याचो विचार करपाची मागणी, गोंयची मुखेल राजभास कोंकणी करपाची मागणी, तशेंच पणजी आकाशवाणी केंद्राचीं सगलीं निवेदनां कोंकणींतच जावचीं आनीं दूरदर्शनाचेर कोंकणी कार्यावळी वितरावच्यो अशो मागणी करपी थाराव जाल्ले.

## आठवें संमेलन

आठवें कोंकणी लेखक संमेलन अंत्रुजेंतल्या रामनाथी ह्या सैमसुंदर आनी श्रीरामनाथाच्या पवित्र स्थलांत 11-12 मे, 1985 ह्या दिसांनी जालें. संमेलन सुवातेक 'दादा वैद्य नगर' अशें ह्या गोंयच्या व्हड कर्तुत्वी पुताचें नांव दिल्लें. कोंकणींतले नामनेचे नवलकथा आनी कादंबरीकार श्री. दामोदर मावजो हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष आसले साहित्यकार श्री. एन्. शिवदास. नामनेचे चित्रपट दिग्दर्शक आनी निर्माते श्री. रामानंद सागर हांणी ह्या संमेलनाचें उक्तावण केल्लें. साहित्यकार आनी थळाव्या लोककलाकारांचो भोवमान ही ह्या उक्तावण दबाज्यांतली एक विशेशताय आसली. ह्या संमेलनाव्या वावराचो दुसरो दीस चर्चा, परिसंवाद, कवी संमेलनां, कोंकणीभायल्या लेखकांची कार्यावळ आदी कार्यावळींनी आटापिल्लो. कवी संमेलनाचे दोन भाग केल्ले. कवियत्री संमेलन आनी कवी संमेलन. ते भायर तरणाट्यांचे बरपावळीची झलक होय एक वैशिष्ट्यपूर्ण कार्यक्रम आसलो. 'कोंकणी कथेचो नियाळ' हो एक कार्यक्रम तशेंच परिसंवाद - चर्चेखातीर 'कोंकणी भास आनी बरपावळ - फुडाराची दिशा' हो विशय दवरिल्लो. हे चर्चेंत गोंय तशेंच गोंया भायल्यान आयिल्ल्या साहित्यकारांनी वांटो घेतिल्लो. ह्या परिसंवाद-चर्चेचे शिक्षण आनी बालसाहित्य, कोंकणी समाज आनी साहित्य, तशेंच राजकी, समाजीक, संस्कृतीक जिवीत आनी कोंकणी बरपावळ अशे भाग केल्ले. कोंकणी भायल्या लेखकांचे कार्यावळींत पंजाबी, बंगाली, कन्नड, मराठी तशेंच गुजराती साहित्यकारांचीं उलोवपां जाल्लीं.

ह्या संमेलनाचे विशय नियामक समितीन त्या वेळार देशांत ज्यो हिंसाचाराच्यो घडणुको घडिल्ल्यो ते संबंदांत खंत प्रगटावन ह्या संबंदांत लोकसाहित्यकारांनी राष्ट्रीय एकचाराच्या संबंदांतली आपणाली लागणूक वळखून वावर करचो असो उलो मारपी थाराव केल्लो. हेर थारावांमदीं कोंकणी राजभाशेचो थाराव, दूरदर्शनाचेर कोंकणी कार्यावळी, शिक्षणीक मळार कोंकणीचे उपेग, तशेंच संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणी आदी थारावण्यांचो आस्पाव आसलो. संमेलनाचे दोनूय दीस रातच्यो तरेकवार संगिताच्यो कार्यवळी जाल्ल्यो.

## णववें संमेलन

णववें कोंकणी लेखक संमेलन पुर्विल्ल्या नामनेच्या भतग्राम वाठारांतल्या सांखळी गांवांत 16 आनी 17 माय, 1987 ह्या दिसांनी जालें. संमेलन थळाक, कोंकणीचे प्राणाचार्य शणै गोंयबाब हांच्या पुण्य उगडासाक 'शणै गोंयबाब नगर' अशें नांव दिल्लें. कोंकणींतले नामनेचे कवी, नाटककार आनी पत्रकार, मंगळुरांत राबितो करून आशिल्ले सर्गेस्त चा. फ्रा. द कॉश्त हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. येवकार समितीचे अध्यक्ष आसले प्रा. अरूण रामचंद्र साखरदांडे. कार्याध्यक्ष आसले श्री. सदानंद काणेकार. संमेलनाचें उक्तावण मणिपूरचे संसदसदस्य, शिक्षणीक जाणकार आनीं लेखक प्रा. एम्. तोंबी सिंग हांचे हस्तुकीं जाल्लें. साहित्यीक तशेंच भाशीक आनी संस्कृतीक मळावयल्या थळाव्या व्यक्तींचो सत्कार, नव्या पुस्तकांचें प्रकाशन हांचो उक्तावण सुवाळयांत मुखेलपणान आस्पाव आसलो. संमेलनाच्या दुसऱ्या दिसा परिसंवाद आनी चर्चा हे कार्यक्रम आसले. 'एकविसाव्या शतमानाच्या

संदर्भांत कोंकणी साहित्याचो विचार' ह्या परिसंवादाची येजमानकी श्री. रवींद्र केळेकार हांणी चलयिल्ली. दुसऱ्या परिसंवादाचो विशय आसलो 'कोंकणी भास आनी निर्मणेचो वावर' आनी ताची येजमानकी श्री. पुंडलीक नायक हांणी चलयिल्ली. ह्या दोनीय परिसंवाद चर्चांनी गोंय, महाराष्ट्र, केरळ, कर्नाटक तशेंच देशांतल्या हेर भागांतल्यान आयिल्ल्या लेखक प्रतिनिधींनी वांटो घेतिल्लो. कवी संमेलनाची कार्यावळ दोन वांट्यांनी जाल्ली. कार्यक्रम विशय नियामक समितींत वेगवेगळया थारावांचेर चर्चा जावन कांय थाराव मानून घेतिल्ले. तातूंत कोंकणीक राजभाशेचो मान मेळोवन दिवपाक निर्धारान लढो दिल्लेखातीर गोंयचे जनतेचें अभिनंदन केल्लें. हाचेभायर राजभास कायदो चालीक लावप, दूरदर्शन - आकाशवाणीचेर कोंकणी कार्यावळी, शिक्षणीक मळार कोंकणीचो अदीक पद्दतशीर उपेग हे विशीं थाराव मानून घेतिल्ले. संमेलनाच्या पयल्या दिसा रातची, थळाव्या पंगडांनी सादर केल्ली लोककलांचें दर्शन घडोवपी संस्कृतीक कार्यावळ, जाल्यार दुसऱ्या दिसा रातची माशेल ड्रॅमॅटीक असोसिएशनान सादर केल्लो अनिरुद्ध बीर हांच्या नाटकाचो कार्यक्रम जाल्लो.

## धावें संमेलन

धावें कोंकणी लेखक संमेलन संत सोहिरोबा, भाऊ दाजी लाड, जिवबादादा केरकार हांच्या जल्मवाठारांत-पेडण्यांत 17 आनी 18 फेब्रुवारी 1990 ह्या दिसांनी भरलें. पेडणेंचे नामनेचे कलाकार सर्गेस्त मुरारबा पेडणेकार हांच्या उगडासाक वाठाराचें नांव 'मुरारबा पेडणेकार' अशें दिल्लें.

कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे श्री. गुरुनाथबाब केळेकार संमेलनाचे अध्यक्ष जावन आसले. येवकार समितीच्यो अध्यक्षा, श्रीमती कमल पार्सेकार आनी कार्याध्यक्ष श्री. सुहास पार्सेकार जावन आशिल्ले. संमेलनाचे सरचिटणीस श्री. प्रकाश तळवणेकार आनी भांडारी श्री. तुकाराम म्हामल आसले. संमेलनाचें उद्घाटन फा. आन्तोनियु पेरैर हांचे हस्तुकीं जालें. ह्या संमेलनाक जैतवंत करचेखातीर डॉ. तानाजी हळर्णकार आनी श्री. नागेश करमली हांणी मोलादीक कामगिरी केल्या.

दोन दीस चलिल्ल्या संमेलनांत परिसंवाद, कवी संमेलन आनी संस्कृतीक कार्यावळीचो आसपाव आसलो. पयल्या दिसा 'शबै शबै भौजनसमाज' ह्या नाटकाचो प्रयोग जालो. नवोदीत कवींच्या संमेलनाची येजमानकी कारवारचे प्रो. पुरुषोत्तम देसाय हांणी चलयली. ह्या संमेलनाक मगळुरासावन पयलेच फावटीं चड प्रतिनिधी आयिल्ले.

विशय नियामक समितीन वेगवेगळया थारावांचेर चर्चा जावन कांय थाराव मानून घेतिल्ले. तातूंत - कोंकणी भाशेची संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपाव करचो, राजभास कायदो चालीक लावचो, शिक्षणीक धोरण तयार करचें, मायभाशेंत पूर्व-प्राथमिक आनी प्राथमिक शिक्षण गोंयांत सुरू करचें. गोंय राज्याक टीवी स्टुडियो बेगोबेग दिवचो आनी कोंकणी भाशीक लोक गोंय तशेंच महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी पातळ्ळयात, ह्या लोकांपासत आकाशवाणीचेर राष्ट्रीय वृत्तविभागाचो आसपाव करचो. राज्यभाशेच्या आंदोलनांतल्या वावुरप्यांचेर घाल्ल्यो केसी फाटीं घेवच्यो. गोंय राज्य आनी संस्कृतीक मंडळ स्थापन करचें. सिनेमा विकास महामंडळ स्थापन करचें. गोंय ग्रंथालय विधेयकावरवीं कोंकणी पुस्तकां, प्रकाशन, वाचनालयां हांकां सरकारी पालव मेळपाची खाशेली तरतूद करची. संवसारभर पातळिल्ल्या गोंयकारांचें संमेलन घडोवन हाडचें. कर्नाटकांत कोंकणी साहित्य अकादेमी स्थापची आदींचो आस्पाव आशिल्लो.

## इकरावें संमेलन

इकरावें संमेलन गोंयाभायर कारवारा घडोवन हाडपाचें थारलेउप्रांत, ताची जापसालदारकी कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हे संस्थेन, हाचेमुखार अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेकडेन सोंपोवपाचें थारायलें. परिशदेन ही जापसालदारकी मानून घेतली आनी ते प्रमाण फुडलो वावर सुरू केलो.

कारवारच्या कोंकणी भाशा आनी संस्कृतीक केंद्रान इकरावें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन आयोजीत करपाची जापसालदारकी स्विकारली. फेब्रुवारी 8-9, 1992 अशे दोन दीस संमेलनाची कार्यावळ चलली. कोंकणी परिशदेचे संस्थापक आनी म्हालगडे कोंकणी सेवक स. माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या मानाक संमेलन थळाक 'माधव मंजुनाथ शानभाग नगर' अशें नांव दिल्लें. श्रीमती आशा पालनकार ह्यो ह्या संमेलनाच्यो येवकार अध्यक्षा जाल्यार प्रा. पुरु-

षोत्तम देसाय हे कार्याध्यक्ष आसले. संमेलनाचे अध्यक्ष आसले मंगळूरचे नामनेचे कोंकणी लेखक श्री. एडवीन जे. एफ. द सौझ. संमेलनाचें उक्तावण नामनेचे कन्नड साहित्यकार आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार सन्मानीत डॉ. शिवराम कांरत हांणी केल्लें.

येवकार समितीच्या कारभाऱ्यांमदीं श्री. दीपक गांवकार हे प्रधान कार्यदर्शी आनी श्री. अनंत बसरूर हे कोषाध्यक्ष आसले.

दोन दीस चलिल्ल्या ह्या संमेलनांत उक्तावण सुवाळो, त्या सुवाळयांत मानेस्तांचो सत्कार, ते उप्रांत कवी संमेलन, तरेकवार संस्कृतीक कार्यक्रम, नाटक अशो पयल्या दिसाच्यो कार्यावळी आसल्यो. दुसऱ्या दिसा 'कोंकणी साहित्य आयच्या पेण्यार', 'कोंकणी चळवळीचो हावेस', 'कोंकणीचे उदरगतीक कोंकणी संस्थांचो हातभार 'आनी 'कोंकणी भाशेची तांक', 'कोंकणी साहित्याचे उदरगतींत तरणाट्यांचो वांटो', ह्या विशयांवयले परिसंवाद जाले. उकते बसकेंत कोंकणीच्या संबंदांत कांय थाराव मानून घेतले. तातूंत संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आस्पाव करपाची मागणी करपी थाराव मुखेल आसलो. हेर थारावांमदीं कोंकणी भाशीक भुरग्यांचें मुळावें शिकप कोंकणींत जावचें, गोंयांत राजभास कायदो चालीक लावचो, आकाशवाणी आनी दूरदर्शन कार्यावळींनी कोंकणीक फावो तो वेळ आनी सुवात मेळची, हांचो आस्पाव आसलो. उकते बसके उप्रांत समारोप सुवाळो जालो. त्या वेळार तेन्नाचे गोंयचे खेळां मंत्री श्री. संजय बांदेकार आनी पद्मश्री श्री. वामन सरदेसाय हे मुखेल सोयरे आसले. ह्या सुवाळयाउप्रांत कवी संमेलन आनी रातची तरेकवार संस्कृतीक कार्यावळ जाल्ली.

कोंकणी साहित्य संमेलनां हीं कोंकणीच्या साहित्यीक, भाशीक तशेंच संस्कृतीक मळावयलो एक अप्रूप असो वावर. ह्या संमेलनांवरवीं देशांतल्या वेगवेगळया भागांत रावन कोंकणी भाशेंतल्यान साहित्याची साधना करतल्यांक एकठांय येवन साहित्यीक तशेंच दर एक संबंदीत विशयाचेर विचारांचें आदान-प्रदान करपाची संद मेळटा. कोंकणी भाशीक आनी संस्कृतीक नदरेन अदीक संघटीत जावपाचे नदरेन जो वावर जाता, तातूंत साहित्य संमेलनाच्या वावराक एक म्हत्त्वाची सुवात आसा.

## बारावें संमेळन

बारावें संमेळन, गुडूं सिताराम आमोणकार नगर (सारस्वत विद्यालय संकुल, खोर्ली) म्हापशें - गोंय हांगा 5 आनी 6 मार्च 1994 ह्या दिसांनी भरलें. तियात्र ह्या कोंकणी नाट्यप्रकाराचो जनक म्हण जाका पाचारतात, त्या बाब लुकाजीन रिबैर हांचें नांव संमेळनाचे माचयेक दिल्लें. स्वातंत्र्य झुजारी आनी कोंकणीचे निश्ठावंत वावुरपी सं निकूबाब कारापुरकार हांचें नांव माटवाच्या मुखेल दाराक दिल्लें.

साहित्य, संस्कृताय आनी पत्रकारिता ह्या मळार तोखणायेचो वावर केल्ले, कर्नाटकांतल्या कोंकणी चळवळीक फुडारपण दिल्ले आनी पिंडान कवी आशिल्ले श्री. बी. वी. बाळिगा हे ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. फा. मोरेन द सौझ हांणी ह्या संमेलनाचें उद्घाटन केलें. श्री तोमाझींव्यु कार्दोझ (येवकार अध्यक्ष), डॉ. तानाजी हळर्णकार (कार्याध्यक्ष) श्री भरत नायक (सरचिटणीस) शांताराम वर्दे वालावलीकार (भांडारी) ह्या जाळवणदारांवांगडाच श्री नागेश करमली, श्री रमेश वेळुस्कार, श्री सदानंद काणेकार, श्री शशिकांत पुनाजी, श्री प्रकाश पाडगांवकार हांणी हें संमेलन जैतिवंत जावपाक कश्ट घेतले.

दोन दिसांच्या ह्या अक्षर उत्सवांत उक्तावण सुवाळो, मानेस्तांचे सत्कार, कवी संमेलनां, परिसंवाद, संस्कृतीक कार्यावळी आनी समारोपाचो दबाजो जालो. नव-साहित्त्य निर्मिती, लोकवेदाचें अंतरंग, भारतीय भासांतलें आदान-प्रदान, भाशेच्यो शैली आनी हेर विशयांचेर खोलायेन चर्चा पारिसंवादांनी जाली. कोंकणीच्या ज्वलंत प्रस्नाचेर उक्ते बसकेंत भासाभास जाली. समारोपाच्या सुवाळयांत गोंयचे शिक्षणमंत्री, श्री विनयकुमार उजगांवकार आनी कायदे मंत्री श्री लुईझिव्यु फालैर हांणी सरकाराची कोंकणीकडली भुमिका स्पश्ट केली. सुयोग्य नियोजन आनी उत्कृश्ट आयोजन आशिल्ल्या ह्या संमेलनांत गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांतल्या प्रतिनिधींनी व्हड संख्येन वांटो घेतिल्लो.



# "कोचीचे गोंयकार"

स. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार (शणै गोंयबाब)

कोचीक गेल्ल्या गोंयकारांनीं थैं बरेतरेन पाळां-मुळां घेतलीं अशें दिसता. कांय काळान, वेपार-उद्योगाच्या कामांत कोचीकारांपरस गोंयकारूच पुर्तुगेजांक चड मानले आनी ल्हवुल्हवु तांचे न्यायनितिची आनी राखणेची जाळवण ताणीं कोचिच्या राजाकडसून आपणां-कडेन घेतली. फुडें 1663 व्यक्ष ज्यानेरांत. ओलान्देजांनीं पुर्तुगेजांचो कोचिचो किल्लो घेतकूच, गोंयकार तांचे राखणेतळा पावले आनी तांचेकडेन वेपार-उद्योग चलौन व्हडविकेक चडले.

1720 च्या सुमाराक कोचींत जाकोबुस कान्तेर फिशर म्हणून एक ओलान्देज पाद्री आसलो. ताणें त्या वेळार ओलान्दच्या आपल्या इष्टांक कांय पत्रां बरैल्यांत. तांकां मलबाराचीं पत्रां ह्मण्टात. तांतूंतल्या 22 व्या पत्रांत, कोचींत आशिल्ल्या गोंयकारांसंबंधाचो मजकूर आसा. तो वाचून, ते थैं बरे दशेंत आशिल्ले अशें दिसता. तो पाद्री बरैता, 'कानारी लोक मलबारांत सारोद्धाराक रावल्यात. ते एवरोपेवांचे भोव बरे वळखिचे आसात. तांचेकडेन ईस्ट इंडिया कंपनी (ओलान्देजांची) वेपार-उद्योग करता आनी तांतूंतल्या एकल्याक आपलो दलाल नेमून, ताचे चाखरेक दोन ओलान्देज शिपायक दिता. ते इतलेच खातीर एवरोपेवांचे वळखिचे जाल्यात अशें न्हय, तर शारांत आशिल्ल्या तांच्या पसऱ्यांनी मासा बाजत घर-संवसाराक लागणे सगळे जिनस आमकां मेळटात. तांतूंतले कांय जाण तांदूळ विकतात. कांय जाण फळां विकतात. कांय जाण तरेकतरा सणंग विकतात आनी कांय जाण सराफी करतात. हे भाशेन, वेपार करिनाशिल्लो तांचेभितर एकलोय मेळचो ना. वेपाराक लागून तांचीं घरां मलबारभर समुद्राचे तडीर पातळळयांत. मलबारच्या लोकांपरस ते जायते गोरे. तांच्यो बायलो रुपेस्त. त्यो भांगर-शिंगर जायतें घालतात. ... कानाऱ्यांचे सांगणे भाशेन ते साष्ट-बारदेसाकसून आयल्यात खैं. ... पुर्तुगेजांनीं तांतूंतल्या जायत्या जाणांक जुलमान बाटैल्यात आनी आवै-बापायच्या हाण्डिवैलीं भुरगीं ओडून काडून तांकां बाल्तीम दिल्या. ... पैलीं ते पुर्तुगेजांकडेन वेपार करताले. आतां ते ओलान्देजांकडेन वेपार करतात. कोचिच्या राज्यांत ते आमच्या शारांच्या आनी किल्ल्यांच्या शेजारा रावतात; ते भितर रावनात. ते एवरोपेवांक निर्मळ मानिनात. ते आमगेर खांवचे-पियेंवचे नात. ...तांचे भितर तोन मत्तां आसात; वैष्णव आनी स्मार्त. चंदनाचे कांडयेच्या दोन कापट्यांभितर जितलें अंतर आसता ताचे परस अदिक अंतर ह्या दोन मत्तांभितर ना. ... हेर बामणांभाशेन तांकां एकेपरस अदिक बायलो करपाची मनाय आस. विधुरांनीं पांचांकूय अदिक खेपो लग्न जांव नज. ते आपल्या धुवांचीं लग्नां आठव्या ना जाल्यार णवव्या वर्सा करतात. लग्न करिनासताना धावें वर्स गेलें जाल्यार तांकां जात पट्टा. ... ते वेपार-उद्योगान आपलें पोट भरतात. तांचे भुरगे स-सात वर्सांचे जायनाफुडें वेपारांत पट्टात ... मलबाराच्या हेरां सुवातांपरस कोचिच्या राज्यांत जायते. ... तांचेभितर जायत्यो जाती आसत...

... बामणांनी मानायपण आनी वेपार-धंदो करूंक फावना; परंत हांतूंतली वेपार-धंद्याची मनाय ते कडकडी-तपणान चलैनात. तांतूंतले जायतेजाण वैदिकी करतात. तांकां राजांचो आनी हेर कानाऱ्यांचो आलासरो आस. कांयजाण पंडित ह्मणजे वैज आसत. ...वाणी जातचे लोक जीव नाशिल्ल्या सगळया जिनसांचो वेपार करतात. तांचेभितर शेट आसत; ते एवरोपी रविसेच्यो वस्ती मोट्या कसबान करतात. ... तांचे भितर कुणबी आसत; ते वेपाराचीं ओजीं व्हरतात आनी तांच्या शेतां-भाटांनीं वावुरतात. ... तांच्यो परबो आनी उत्साव मलबारी लोकांच्याकूय वेगळे. ... तांचो संवसार-पाडवो वा नव्या

वर्साचो दीस मार्स म्हैन्यांत येता. तेन्ना ते मौज मारतात आनी एकामेकांक बरें मागतात. ते न्हावन-धुवन नवीं आंगावलीं घालतात. तांचे वैदिक पंचांगां पळौन त्या वर्सांतले बरे-वायट दीस तांकां सांगतात. तांच्या तिरुमल देवाचो उत्साव आब्रिलांत जाता. तेन्ना सात दीस मेरेन समरदना जातात. तांतूंत सगळयांक मेकळें दार आसता. ... ह्या उत्सावाक देवळांतल्या हतयांक उंच उंच साज घालतात. ... ते जूल म्हैन्यांत नाग-पंचम आनी आगोस्तांत सुतां-पुनव आनी अष्टम करतात. अष्टमीक ते चोव्वीस वरां अन्न-उदक घेनासताना उपास करतात. ... सेतेंब्रांत ते विन्या-चौथ करतात; तेन्ना ते आपापणाले तांकीभाशेन लांकडाची, फातराची वा रुप्याची गणपतिची म्हुर्त पुजेक लायतात. ... उप्रान्त धा दिसांनीं अनंत -चतुर्दस जाता. हो उत्साव देवळांत करतात. भितर तरेकतरा फळांची माटवी बांदतात. ... हो उत्साव पळौंक खासा कोचिचो राजा येता. उप्रांत णव दीस मेरेन नवरात्रां जातात. ह्या दिसांनीं साळेंतल्या भुरग्यांक सोड मेळटा आनी ते उंच पोशेग करून कानाऱ्यांच्या घरांनीं वचून गातात. ... वैतुंब्राचे अखेरेक दिवाळी जाता. ... ह्या दिसा रात आसताना उठून ते तेल लावन न्हातात आनी सकाळीं आंगाक गंधेल लायतात. सगळो दीस ते मेजवानक्यो करतात आनी रात जातकूच सगळेकडेन दिवे पेटैतात. नोवेंब्राच्या सोंपत्यार ते वेंकटपतिचो उत्साव करतात; ताका तेर म्हण्टात. त्यावेळार देवाची म्हुर्त रथांत बसौन आट्यापाट्यान भोंवडायतात. जणे-कल्यान रथ ओडपांत पुण्यताय आस अशें ते समजतात. ... रथ ओड्टा आसताना ते मोट्यान हरगया घालतात. जायतीं वाजपां वाजतात. कांयजाण रथार चड्टात. कांयजाण रथाचे कुशिंनीं उमकळ मारतात. कांयजाण रथातळा नाल्ल फोड्टात. रथ भोंवडायता आसताना कलंवतां एकसारकीं नाचतात. फेब्रेरांत शिगमो जाता. तेन्ना पुनवें आदीं ते एकसारके धा दीस आंगार फुलांचे वळसर घालून सांजचे पारा धोलकीं बडैतात. पुनवें दीस हळदोणें करून एकामेकांच्या आंगार मारतात; वाजपां वाजैत धांवतात आनी फोपळिची होळी खांदार धरून नाचैतात आनी जाळटात. सांजेवेळा सुंवारी आनी कलंवतां नाचतात. तशेंच, तोंडाक राक्षेस आनी राक्षिणिंचीं रुपडीं घालून खेळ करतात. ... तांचो एक भिस्म (स्वामी) आस. तो गंगा न्हंयेचे तडीर (काशयेंत) रावता; आनी इकरा-बारा वर्सांनीं एक फावट तांकां मेळूंक येता. ... त्यावेळार ताका काणीक करची पड्टा. ... तो सदींच जायती गिरेस्तकाय घेवन वेता आनी गंगेचे तडीर एका मोट्या घरांत रावता. थैं जे हजारांनी यात्रेकार वेतात तांकां त्या घरांत रांवक सुवात आनी जेवण मेळटा'. ✧

वैल्या मजकुरावैल्यान, गोंय सोडीतपासून फक्त देडशें वर्सांच्या काळांत गोंयकारांनीं आपले बुद्दिच्या आनी उद्योगाच्या भांडवलार कोचिच्या राज्यांत नवें गोंय निर्मून, थैं ते आपले जल्म-भुंयेतले भाशेन सुखवासी जावन राविल्ले दिसतात.



शणै गोंयबाबांल्या "गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक" ह्या पुस्तकांत साकून -

✧ Letters from Malabar by Jacobus Canter Visscher, Madras 1862, Letter No. 22, pp. 131-2, 134-8.*

# केरळची कोंकणी

डॉ. ओलिवीञ्यु गोमिश्

गोंयां भायर गेल्ल्या गोंयकारां मदलो कोंकणी बरोवपाचो आमच्या हाताक मेळिल्लो भोव आदलो नमुनो म्हळ्यार केरळांतल्या कोचीं शारांतलो. पयले वयले गोंयकार केरळांत चौदाव्या शेंकड्यांत वेपाराक लागून गेल्ले. उपरांत 1510-आंतले पुर्तुगेज जिखे उपरांत आनी 1563-आंत गेले. तो 1678 वर्सांतलो, 20 आब्रिल तारखेर निशाण केल्लो, मुद्रित जाल्लो भारतीय भाशेंतलो पयलो असलो नोटारियल गद्यांत बरयल्लो कोंकणींतलो लेख आसा. तो दाखलो केरळच्या तीगां कोंकणी वैद्यांनी कोचींचे डच् सुभेदार हेनरीकुस वान रीड-आंड्रिकि फ्रांड्री, असो ताका पाचाल्ला. हांगेले आझेवेल्यान "Hortus Indicus Malabaricus" (मलाबारांतली हिन्दी बागायत) हो ग्रंथ संपादीत करपाक आदार दिल्लो. हाजे विशीं त्या काळाच्या नोटारियल पद्धतीन तांणीं शिफारस-पत्र दिलें तें कोंकणी आनी नागरी लिपयेंत अशे तरेन बरयल्लें मेळटा :

"स्वस्ति श्री शालिवाहन शक 1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोचि राजपाटणीं बैसिके रंगभट तथा विनायक पंडित, आपू भट, तेग वैद्य तानीं कोचिचो कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशांतु आशिले औषधमात्र वृक्षवालि झाड खंड ओळखतल्या मनुश्याक मुसारो देवनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्यां त्यां झाडांचें फल फूल पान बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरि संपादून तीं तीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमीं आमगेल्या वैद्य ग्रंथाच्या निघुंटा प्रमाणीं त्या त्या औषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांचीं नांव पळेवनु आजि दोन वर्ष सकाळी सांजे आमिं लागिं रावुनु हो लिव्रु संपादून दिला. तें लटिक म्हणुंच्याक नज अशिं म्हण्णुं आमि आमंचि निसाणि कर्णु दिली. हें सत्य म्हण्णुं मानुचें जाइद म्हण्णुं नागर बरपान हें बरवुनु दिलां. निशाणी -

श्री. रंग भटु, विनायक पंडित, आपुचे ओप ..."

हो दाखलो नागरींत वयर दिला तेच प्रमाणें आसा. ह्या बरोवप्यांचें आनीक कितेंय बरोवप आसल्यार अजून आमचे नदरेक पडलें ना.

तरी आसतना, जोन लीडम, ह्या जाणकारांनी खबर दिल्या त्या प्रमाणें, केरळांत तांकां साबार कोंकणी पुस्तकां थंयच्या कोंकणी लोकांनी दाखयल्लीं. तीं खंय त्या लोकांनीं गोंयच्यान थंय व्हेल्लीं जांवये, असो अदमास करतात. तीं पुस्तकां म्हळ्यार भागवत आनी लींग पुराणांचीं आनी रामायण-महाभारत म्हाकाव्यांचीं कोंकणी भाशांतरां; तशेंच मूळ कोंकणींत बरयल्ले ग्रंथ जशे 'वीरभद्र चरित्र' 'पर्सराम चरित्र' आनी कांय स्थानीक इतिहासाचे ग्रंथ आनी देवळांतलीं स्थळ-पुराणां. तांतले तांतूंत ऊग्रीय-बुक्कीर, मलिवाणी बुक्कीर, असलीं कोंकणी गद्यांतलीं पुस्तकां आसलीं, जांच्यो प्रती उल्ल्यात जाल्यार घडये केरळांतल्या देवळांच्या ग्रंथालयांनी मेळूं येतीत.

अजून त्या राज्यांतल्या कोंकणी लोकां मदीं लोकगीतां, पदां म्हणटात. तीं खंयच्या तरी त्या आदल्या काळा पासून आयल्यांत, अशें थंयचो लोक मानतात. तांच्यांत लोक-कवीची घसघशीत कल्पना-शक्ती दिसून येता. घडये तांचे रचनेचो काळ कर्नाटकांतल्या हिन्दू संत-साहित्याच्या बरोबर जांवये, अशें समजतात.

असल्या पदांचे कांय नमुने पळेंवया :

**'रामायणा' लोकगीतांतलो एक उतारो**

"... वाध्य वाजोवनु मुनी भायर सरलो गा ... 'ण्डो
अयोध्यां एवूनु याग कुण्ड घातलें गा ... "
सात योजन विस्तार कुण्ड घातलें गा... "
समस्त रूशींक मेळोवन एकु यागु मांडिलो गा... "
यागांतुले श्रेष्ठ मुनीक काडूंक लागलें गा... "
कैकयीन वृतांन्त मंन्दिरीं ऐकिलें गा ... "
त्या वेळेरि कैकयी राणी धावनु पावली गा ... "
धावनु येवनु तीणें यागु घंदु केलो गा ... "
यागांतुले श्रेष्ट मुनीन दोनि पिण्ड माण्डिले गा ... "
आपापुलो भागु दोनीय राणियेक दिल्लो गा ... "
पिर्तमलो पिण्डो कौसल्या राणियेक दिल्लो गा "
तशेंचि पिण्डो तिका कैकयीसीं दिल्लो गा... "
समस्त रूशीन मेळून रय्याक आशीर्वाद दिल्लो गा. "
दक्षिणा दिवून रय्यान यागु चालिलो गा... "

**'सीता सुद्धि', ह्या पदांतलो एक उतारो :**

1 "हनुमन्तु गेल्लो सीते सुद्धि - रामचन्द्रान दिल्ली मुदी
समुद्र उलंखन कोर्नु - हनुमन्तु पावलो लंकेरि ॥
2 घेतां सीते सुद्धि - दिकीली मण्दोदरी
पावला अशोक वृक्षारि-बेसूनु चोयता चारि दिकारि॥
3 रामाल दूतु बेसला रूखारि-यो सामको म्हजे मुखारी -
पायं पोणु रबिल मुखारि स्तुति कर्ता भक्तिरी ॥
4 सीता उलयता दूता लागीं - दिरबांकुरा मुळा मुखारि
तोडोवु इत्तें वोर्का धरारी मुद्रिका दवर्ल्ली सीते हत्तारि
5 रामान इत्तें सांगिल्लें तुल्यागि-चुडारमणी दवर्ल्लि हत्तारि
तोडोवु नात्तिल्लें वचूं धरारी-विवं सांगू रामा लगीं॥
6 लगली अवसू-भूक म्हाका -भुमिरी पळ्ळलें फळ खांवक
मर्कड स्वभावु काडूं नक्का - आयिल्लो विवरू कोळोवं नक्का ॥
7 वनांत बळयिलो दुताक नाशु हळ्ळो वनांक
रावणान बळ्ळैलें सैंन्याक - धोर्नु हाडाय वानराक॥"

**'देव भोंवडेक वेता' ह्यां पदांतल्यो कांय वळी पळेंवया :**

"... गेल्लो आड वटेन बेसलों राजविथीं
पडलों पोरोटां साठीं थंय म्हजो शेल्ला परतल्ला ॥
कुंकुम कस्तूरी देवानु लाविल्ली अंग
फुल्लां तुरंबिलीं चांगतीं तुमी कोणाक दिल्लीं ? ॥
समुद्राचे वेळेर सांडिली तेंडु फडी
थंय सुटली म्हजी केसांचि वोली थंय म्हजी फुलां निसरलीं ॥'

**'यशोदी गायक धार काडता' ह्या पदांतल्यो कांय वळी :**

"चोय्यायी- यशोदी एक गायाक धार काडता ।
खोल्लो धोरनु एक चेडु रडता ॥
दूध मागूनु पिंवच्याक आशा काडता ।
यशोदी गल्लाक उम्म दित्ता ॥
धार काडलेलें दूध उम्म दित्ता ॥
तेंवय पीवनु चेरडुं दुसेरी रडता ॥
दूध मागून पिंवच्याक आशा काडता ।
हांसुचें तोंड चोयल्यार चंद दिसता ॥
पायांक गागरवाळे पायजळां अस्सय ।
कुर्टाक भांगराचें ऐलस अस्स ॥
हाथाक वज्रवळीं कांकणां असा ।
केस बान्दूनु मोरा पाक आसा ॥
हे एक चेर्डांन रेंव खेल्ली ।
अम्मान बान्दून मारून बडी काडली ॥
तोंड विस्कळाव्नु बाव्गून चोयली ।
चोवदायि लोक देखूनु भिति पावली ॥
वन्नाचे गाड्याक बांधून घाल्लो ।
गाडो घेवनु कृष्णु गरगडें पळो ॥
रूकाथकूनु दोनी पुरुष आयले ।
तांकां कृष्णान सदां मोक्षु दिल्लो ॥
आयकायि हें चेरडुं कोण म्होणु।
त्रिलोकु नाथु तो बाल कृष्णु ॥
अवतारांन आयला महाविष्णु ।
करायि नमन ताजें मन दीव्नु ॥

हालींच्या काळार केरळांतल्या कोंकण्यांनी कोंकणी सरस्पतींत थोडी -भोव पुण मोलादीक अशी भर घाल्या. तांतल्या काव्यांत व्हडलें योगदान दिवपी म्हळयार अम्मुला वा अम्मुलक्का शणै (1851-1902), ही कवियत्री. जी. कमलाम्मल हिणें रामायणाचो ' ओवी' श्लोकांनी कोंकणींत अणकार केला आनी'अक्षयापात्र' नावांचें काव्य घडयलां. आर. सि. शर्मानी रामायण संगीतबद्द श्लोकांनी कोंकणींत रचलां. त्या भायर ना. न. पै, वि. गणेश प्रभू, सि. ना. मल्ल्या, भवानीबाय पदुकोण, नरहरी कवी, वेदवती शणै, नरहरी विठ्ठल प्रभू, हे केरळांतले मुखेल अशे कोंकणी बरोवपी जावन गेले. भगवद्गीतेचे जायते अणकार थंय जाल्ले आसात. उपेंद्र पै, शेषगिरी केशव प्रभू आनी स्वामी प्रभावानन्द, हाणीं गीतेचे कोंकणी अणकार, पुरायेन वा वांट्यानी बेस बरे रीतीन केल्यात. पुरुषोत्तम मल्ल्यांनी कांय नाटकां बरयल्यांत आनी लोक गितां पुंजावन उजवाडायल्यांत आनी कोंकणीचे चळवळींत मोटो आनी सक्रीय फुडाकार घेतला. प्रा. आर के. राव, हांणी मल्याळम भाशेंतली कोंकणींत साबार भाशांतरां केल्यांत आनी 'गोड्डे रामायण' ह्या माथाळयाखाला कोंकणींतलें पोरणें लोकगीता रूपान रामायण पुनर्बांदणी करून उजवाडा-यलां.

**(डॉ. ओलिवीञ्यु गोमिश् हांच्या 'कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास' ह्या ग्रंथांतल्यान)**



# केरळांतली कोंकणी चळवळ

केरळांत कोंकणी खातीर केन्ना वावर सुरू जालो?

-ह्या प्रश्नाची जाप खास करून शणै गोंयबाब दितात -

'कोचीकारां भाशेन त्रावणकोरच्या गोंयकारांकूय कोंकणीचो जायतो अभिमान आसा. 1924 च्या मायांत आलेप्पीत बामणांची जी एक परिषद भरिल्ली, तांतूंत कोंकणी भाशे संबधान जाल्ले एके थरावणुकेंत म्हळां, कि 'दुद भास सुधरचे खातीर परिषदेच्या सारस्वतबोधिनी म्हैनाळयाचीं कांय पानां देवनागरी अक्षरांनी बरैल्ल्या कोंकणी मजकुरान लांवचीं'

(गोंयकारांची गोंयाभायली वसणून - पैलें खंड' मुंबय, 1928 पान 150)

दुदभास कोंकणी सुधरचे खातीर खूब कोंकणी मनीस केरळांत मुखार आयले... लेखक उबे जाले... साहित्य निर्मुपाचो प्रयत्न सुरू जालो....

भाशेचो अभिमान जागोवंक आनी साहित्याची रूच वाडोवंक केरळांत साबार व्यक्तींचो आनी संस्थांचो वावर चल्ला. ते व्यक्तींची आनी संस्थांची आमी सुपुल्ली वळख करून दितांव ...

**- संपादक समिती.**

# बोलन्तूर कृष्ण प्रभू हांचें चंद्रहास चरित्र नाटक केरळांत

**पोवळेकार**

राती पांच स घंटे लगातार दोळया पत्तें आड करनाशिल्लें बेसून लोकानी पोळोवन आनन्द पाविल्लें एक नाटक तोखूर गांवांत आनी लागसार 1943 वर्सा तीन फंतां खेळिल्लें. तें म्हळ्यार बोलन्तूर कृष्ण प्रभून रचिल्लें 'चन्द्रहास चरित्र' नांवांचें संगीत नाटक. तें नाटक कारवारांत 1939 वर्सा घडिल्ले पैले कोंकणी परिशदेंत वाचिल्लें अशें आयकलां. पुण तें तोखुरांत कशें पावलें म्हण कळना. तरीय तोखूर गांवच्या रसिक तरणाट्यांनी म्हयन्या कणकणी अभ्यास करनु तें माचयेर हाडलें. लोक तें नाटक चोवन आश्चर्य पावले. तोखूर आनी चेर्तले गांवांत तीन फंता खेळळें परांते ती नाटक मंडळी ना जाली, म्हळेलेंय अजाप दिसता.

चन्द्रहास नाटक सर्व तरांच्या रसांनी भरलेलें एक संगीत नाटक. चन्द्रहास नांवाच्या एका राजकुमाराचें दुःख पूर्ण जाल्यार सुखांत जीणेची काणी ह्या नाटकांत मेळता. सरस अर्थपूर्ण गींत ह्या नाटकाची विशेषताय आशिल्ली. तांतुले गींत गांवां-गांवांत गाजताले.

ह्या नाटकाचो नायक 'चन्द्रहास', नायिका 'विषया' आनी प्रतिनायक वा विलन 'दुष्टबुद्दि' नांवाचो मन्त्री. तो चन्द्रहासाक जिवानशी मारूंक खुबसो वावर करता. पुण ताची धुव विषयाच चन्द्रहासालागीं लग्न जाता. अखरेक दुष्टबुद्धीलीं कूटतन्त्रांच हारि खातात.

जायत्या सरस दृश्यांनी भरिल्ले नाटकांत अभिनयान आनी संगीतान नांव जोडिल्ले. आतां एरणाकुलम शारांतले प्रशस्त जनसेवक आनी व्यारी श्री. बालाजी राम शणै. मुकार तांणी आपल्या पुताक 'चन्द्रहास' म्हणु नांव घालले म्हळेलें उगडास दवरूक लायक आसची एक सरस गजाल. नाटकांत नायिका म्हणु वेष घालनु सरस अभिनय केलेले पांडीकुडींत आतां ज्योतिषालय चलौचे श्री श्रीधर प्रभु हाणि नायक आनी नायिका दोगांकय भांगरा पदकां दिवन लोकांनी सम्मान केल्लें. दुरवूर श्री नरसिंह कामत आनी पी. गोपाल कृष्ण कामत हांणी ह्या नाटकांत हारमोनिस्ट म्हणु कीर्ति जोडिल्ली. ह्या मालाच्या वीस तीस तरणाट्यांनी अथक परिश्रमान ही नाटक मंडळी मुकार हाडिल्ली. तुरवूर आर. माधव पै चन्द्रहास नाटकाचे सूत्रधार आनी प्रबधक आशिल्ले. विलनाचें सवंग श्री. एन. जी. वाघ्यार हांणी केल्लें. संगीतांतूय ते प्रशस्त आशिल्ले.



## अंचिकम्मल नरशिं पै (1879-1959)

पी. एन. नरसिंह पै अथवा नारायण अंचिकम्मल नरशिं पैं कोची एरणाकुलम शारांत रावताले. तांगेलो जल्मूय थांगाच जालोलो. तांगेलें मुख्य कार्यक्षेत्रय तेंच .

आपले व्हडले भाव पी. एन. श्रीनिवास पै ल्या पालवान तो मेट्रिक पास जालो. पुण एरणाकुलम शारांतूच आसचे महाराजास कॉलेजांत शिकूंचें भाग्य ताका मेळ्ळें ना. पोटा खातीर तरा तराचें काम करतालो, पुण खंयय ताका जम मेळ्ळो म्हणु ना.

सान पिरायेर धरनु संगीतांत वासना आशिल्ली. थोडो भोव अभ्यासूय केल्लोलो. देवळांत नित्य भजन करतालो. जइं जइं कथकली, कूत्तु, ओट्टनतुळ्ळल, नाटक इत्यादिक चलतालें थांगा थांगा पावतालो. तशी पुराणकथेंचो विशाल भंडार ताका स्वाधीन जालो.

काणी सांगच्यांत, नाटक खेळच्यांत, संगीत कार्यक्रमांत ताका खूब संतोष मेळतालो. माचयेर अभिनय करची कलाच ताका स्वाधीन जालेली. हाचो सगळो प्रयोग करनु एक दीस ताणें मल्याळम भासेन मलयाली श्रोत्या मुखार 'हरिकथा' सांगली. आयकिल्ले आयकिल्ले लोकांनी ताची खूब प्रशंसा केली.

उपरांते ताणें कोंकणी भासेनय हरिकथाललक्षेप सुरू केल्लो. इरिंजालकुडा धरनु कोलांव मेरेन पातळेल्ले दक्षिण केरळांत ताणें ही कला पावयली. जनांक आनन्द जालो; ताकाय मनांत होड संतोष जालो. पुण पोटा समस्या तशीच उरली.

'चेल्लय्या चरित्र,' 'कुचेलोपाख्यान,' 'ध्रुवचरित्र,' 'प्रल्हादचरित्र', 'सावित्रीचरित्र', 'नल्लातकाळ चरित्र', 'पूतनामोक्ष,' 'संत सखूबाय' इत्यादि सरस काणियो तो सांगतालो. मद्दें मद्दें गीत आयकयतालो; उपकथा सांगून हांसयतालो.

कोंकणींत पुस्तकां उजवाडावुंचो वावरय ताणें केल्लोलो. चेल्लया चरित्रं, कुचेलोपाख्यानम ह्यो दोन काणियो ताणें सारस्वत भाषा पाठावली नं 1 आनी 2 ह्या नांवान उजवाडायल्यो. हें ताणें 1926 वर्सा केल्लेलें. एकेक पुस्तकाक त्या कालाचे दोन दोन आणे मोल दवरलेलें, जाल्यार हीं पुस्तकां कांय विकलीं नात. 1959 वर्सा ताची जीवनकथाच दळिद्रांत सोंपली.

नरशिंपैलीं पुस्तकां मलयाळम लिपीन छापलेली. नागरी कळनाशिल्यान न्हय. त्या कालाक नागरी छापची सवलती केरळांत ना आशिल्ली. तावळ संस्कृताचीं पुस्तकांच केरळांत मलयाळम लिपींत छापतालीं खैं. तशें आसतना कोंकणी पुस्तकां त्याच लिपींत छापलीं तरी अजाप कितें ?



# आर. सी. शर्मा

साहित्यकुशलन ए. डी. हरि शर्मा हांगेलो धाकलो भाव आर. सी. शर्मा (रामचन्द्र शर्मा) कोंची राज्यांतल्या पळिळप्पुरम गांवात वसती करतालो. आरक्कल गांवच्या हायस्कूलांत मलयाळम आनी संस्कृत शिकैतालो. मलयाळमांतलो एक गद्यकार आनी कवि म्हुण ताणें येस जोडयल्लें. 1924 वर्सा अलपळेंत मेळूळेल्या सारस्वत परिशदेचो उलो आयकून ताणें कोकणींत बरोवच्याक सुरू केल्लें. भाषागानमंजरी नांवान भाक्ति ग़ीतांचो एक झेलो (1930) भायर हाडलो. भक्तिगीतांचे मनोहर नमुने तांतु मेळतात. अश्रुबिन्दु ह्या नांवान ताणें बरयलेलीं चार ल्हान शोक-काव्यां आसात, जीं कोंकणींत अपरुप आनी खास नमुन्याचीं दिसतात.

भाषागानमंजरी ची दुसरी खेप पनास वर्स उपरांते शर्माले पूत जनार्दन शर्मान1981 वर्सा छापैली. ती आतांय मेळूंक आसा. हें पुस्तक आजीय नागरींत आयलें ना.



# अमूलक्का शेणै (1851-1902)

एकूणीसावे शतमानांत कोचीच्या सारस्वत समाजाचे प्रसिद्ध दोन नेता आशिल्ले - जनार्दन शेणै आनी तागेलो पूत हरि शेणै. अमूलक्का शेणै नांवाची कोंकणी कवयित्री जनार्दन शेणैली धूव; हरि शेणैली भयणी आशिल्ली. वारांपळेच्या पै कुटुंबांत ती लग्न जाली. एक समृद्ध संपन्न जीवनाचो आनन्द तिका देवान दिलोलो. देवानच तिका गोड गोड ताळो दिलोलो. भक्ति भावना तिच्या हरद्यांत सतत आशिल्ली. तिगेलें गींत आयकून भुर्गीं ,बायलो, दादले रसलीन जाताले. सगळूयांक ती आपली दिसताली. तिच्या नांवालागी 'अक्का' म्हणु लोकांनी जोडलेलें. तें तांगेलें स्हेनाचें, वात्सल्याचें, आदराचें सूचक जावन आसा.

1881 वर्सा जनार्दन शेणैल्या मुखेलपणार कोची वेंकटपती देवळाची नवी प्रतिष्ठा जाली. 1886 वर्सा शेणैल्या कुटुंबांत लक्ष्मी देवीची प्रतिष्ठा करनु वेंकटकल्याण दबाज्यान करयलें. त्या महोत्सवाच्या उडगासाक अम्मूलक्कान रचिल्लो गीत भौ प्रसिद्ध आसा. 1897 वर्सा जालेले भांगरा गरूडा प्रतिष्ठेची प्रशस्ती जावनूय तिगेलो गींत आसा.

ह्या दोन गितां शिवाय आनीकय तिगेले जायते गीत आसूंयात. ते सगळेच लोकसाहित्यांत मेळसून गेल्यात.



# पाचाळम उपेन्द्र पै

उपेन्द्र पै (1904-1996) एरणाकुलम शारांत पाचाळम नांवाच्या जाग्यार रावताले. संगीतांत तांकां होड तान आशिल्ली. तांचो ताळो कानांक सुखदेणो आशिल्लो. ताणीं दक्षिण भारतीय संगीतांत खूब अभ्यास केल्लोलो. सगळी भगवद्गीता राग-ताल सैत गायन करचे रीतीन बोरोवन दवरल्या. चाळीसां भायर वर्सां जालीं, ती अमोल रचना काळखां आसा.

गेय रुपान आशिल्ले ह्या गीतेचे थोडे भौ भाग उजवाडावूंक केरल कोंकणी अकादमीन वावर केल्लोलो. तरीय तो सफल जालो ना. आतांय उपेन्द्रमामाले गींत काळखांतूच राबल्यात. तांगेल्ल्या पुतांनी आठयल्यार हे उपेन्द्र गीतेक मोचन मेळूंक जातलें.



# पद्मनाभ शणै

एन. एन.पद्मनाभ शणै हो कोचीं सून उत्तरेक आशिल्या 'कुरपळे' नांवाच्या गांवांत रावतालो. प्रायमरी स्कूलांत मास्टर म्हणु काम करतालो. भुरग्यां करान भजन, नाटक आदि केन्ना केन्ना करयतालो. आपण्यान बरयलेले 28 गींत मेळोवन श्रीकृष्ण भक्ति ह्या नांवान एक ल्हान पुस्तक ताणें पैशे बेच करनु ख्रि1954 वर्सा उजवाडायलेलें. कुरपळेचे लागसार आसच्या गांवांत ते गींत आतांय कोंकणी लोकाले जिबेर घोळतात. ह्या पुस्तकाक ताणे बरयलेलें समर्पण सुन्दर कोंकणी गद्याचो नमूनो जावन आसा. ह्या पुस्तकांत कोंकणीनच जायरातीय प्रकाशत जाल्यात. हाची लिपी मलयाळम.



*"आमगेले भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवन्त, गिरेस्त, नांवादीक आनी लोकिकवन्त घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. हे खातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान आनी गर्व दिसूंक फावो. आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत. आमकां परक्या भासांच्या लोकिकार वांचपाची गरज ना. त्यो भासो आमगेल्यो आवै-भासो न्हयत. देखून, आमी आमगेले भाग्यवन्त आवैचे मांडयेर बसुंया आनी माथें वैर उबारून सगळया संसाराकडेन पळोवंया."*

**शणै गोंयबाब**

**ए. डी. नारायण शर्मा**
1903-1973

शास्त्रीय छंदबद्ध रीतीन रचिल्यो भक्ति- कविता 'कोंकण जनता'चेर उजवाडाक आयल्यो.

**एल. नारायण मल्या**
1913-1963

कोंकणीचे बराबर मल्याळम आनी इंग्लीश भासांनीय दीर्घ कविता रचल्यो

**एन. वासुदेव प्रभु**
1909-1993

कविता, कथा, लेखन, विनोद इत्यादी बरोवपान कोंकणी भास पुष्ट केली. 'कोंकणी जनता' नेमाळ्याचेर सदांच बरयतालो. अन्य भासेन बरयलेले कांय प्रकाशित पुस्तकय आसात. बी. ए., बी. एड. केलेलो आनी साळेचो मुख्याध्यापक जावन निवृत्त जालोलो.

**जंबक्का शेणै**

''श्रीकृष्ण लीलामृत गानमाला'' ह्या पुस्तकाची कवयित्री. कृष्ण भजनां साबार केल्यांय. गांव कोची.

**सुमित्रा बाय**
1923-1984

श्री वेंकटेशाचीं आनी श्रीकृष्णाचीं कीर्तन केलीं. 1947 वर्सा तीं एकठांय करून ''गानमालिका'' नांवाचो पुस्तक उजवाडायलो. गांव पोरवूर

**पद्मनाभ वाघ्यार**
1890-1953

चेराय गांवाचो भटमाम, जांणी ''सत्यनारायण वतकथा'' कोंकणींत काव्यरूपान अणकारली. कांय अन्य पद्य रचनाय हांच्यो जावन आसात.

